म्हजें प्रकाशन : १



कॉपी राइट

सौ. शैला मावजो



पयली आवृत्ति : १९७५



उजवाडावपी :

दामोदर मावजो
म्हजें प्रकाशन
माजोड्डें–गोंय



मुखचित्र :

ग. तु. बांदोडकार
दलाल आर्ट स्टुडिओ,
मुंबय ४०० ००४.



छापपी :

अभय भिडे
श्री राजमुद्रा,
१८, प्रभादेवी इंडस्ट्रीयल इस्टेट,
मुंबय ४०० ०२५.



मोल : रु. १०.००.

पडटी केन्ना सपनां
तींच घडटी जागरणां....

# मन म्हजें पिशें

लग्न जावन घोवाल्या घरांत भितर सल्लें आनी कुळार सोडटना दाटून आयिल्लें मन अस्कमात पर्थून फुलून आयलें. दनपारच्या वताच्या कडान बावून आयिल्लें फूल सांजेच्या वाऱ्या ल्हारान प्रफुल्लीत जाता तशें! देवाक नमस्कार करून जाण्टयांक नमस्कार केलो. मांवान तोंड भरून आशिर्वाद दिलो— "अष्टपुत्रा सौभाग्यवती भव—" देर–नण्डो खोक करून हांसल्यो. हांवेंय लजेन तोंडार पदर धल्लो. हाणी तर कोणाक कळना तसो ल्हवूच कोंपर माल्लो. म्हजें मन आनी आंग शिरशिरून आयलें.

ती रात हांव केन्नाच विसरचें ना. हाणी म्हाका विचाल्लें—नाका; तें सांगपासारकें न्ही. हालीं सगलेच घोव बायलेक पयले राती तेंच विचारतात. हे दिसच असले! वता वता थंय तांबडो त्रिकोण! हांवें हांकां जाप दिली ना. पुण तांणीय आग्रो धल्लो ना. पयली फावट जातकीर मागीर फुडलो विचार करपाचो हें हांवें आयकल्लें. आनी हेय जाण्ा आशिल्लेशे दिसता.

ते दीस कशे सल्ले तें लग्न जाल्ल्यांक सांगपाची गरज ना. रातचे गुलाब फुलताले. खबरो सोंपून सोंपनाशिल्ल्यो. फकाणांक ओतो येतालो. आनी – तें सगलें आमचे बाज्जेकच खबर. अेक खरें! रात पावनाशिल्ली.

सकाळीं उठप आनी आख्खो दीस सारप तो 'रात केन्ना येता' ह्याजी वाट पळोवपांत !

आशाडांत कुळारा वतना जाल्ली काळजाची आवतिकाय सांगून कळपाची न्हय. मन तर साप्प बावून गेल्लें. कुळारा आयलें तशीं सगल्यांची फकाणां सुरू जालीं. आयिल्लीं गेल्लीं विचारतालीं "बोवाळ कित आसा गो ?" नायजाल्यार बायलांक काळवेळ लागचना. एकलेन तर अेक दीस हे आयिल्लेकडेन हांचे हुजिरूच विचाल्लें. बरोबरचीं तर "प्लॅनिंग बीनींग न्हय मुगो ?" म्हुण विचारूंक लागलीं. म्हाका सामकें नाका पुरो करून सोडलें सगल्यांनी. निमाणे आशाड सोंपलो तेन्ना सुटलें.

म्हयने सल्ले. म्हयन्यांफाटल्यान म्हयने आनी वर्स सल्लें. मदीं मदीं कुळारा वतालें तेन्ना आई धरून सगलीं विचारतालीं–'बोवाळ ना गो अजून ?' आनी म्हजें मन चोरावरी जातालें. खरेंच ! झाड रोयलें म्हुण जायना. ताका फळ येता तेन्नाच ताजी तोखणाय जाता. कुळारासावन घरा आयलें कि मांय म्हाका सांसपून पळेताली. 'कांय ना मगे ?' दर म्हयन्याक विचारताली, 'कितले दीस जाले न्हाल्यार ?' दोन दीस फुडें गेल्यार म्हजें मन लेगीत पिशावरी जातालें. नकळटनां म्हज्याय मनाक ओड लागिल्ली.

मांय–मांव जाण्टीं. तांकां देवाचें पिशें. तीं आतां म्हाका उपासतापास करूंक सुचोवपाक लागलीं. म्हाका हरशीं सोंसना. उपास करून मनांतल्यो इत्सा पूर्ण जावपाक लागल्यो जाल्यार प्रत्येक जण उपास काडटलो आशिल्लो आनी तशें जाल्लें जाल्यार अन्नटंचाईचो प्रस्नूय बी सुट्टलो आशिल्लो. पुण म्हण्टात न्हय, 'शेणिल्याचें मन धाकडेन.' म्हजो विस्वास नासूनलेगीत जाण्टयालें आयकून तरी पळोवया म्हुण हांवें शुक्राराचें व्रत घेतलें. आयुश्यांत तो मेरेन हांवें उपास केन्नाच काडले नात. ताका लागून त्रास जातालो. चडच त्रास जालो जाल्यार हांव कोणाक कळनासतना कितेंय तोंडात उडथी. जाण्टयांचें मन दुखयलें ना हें समाधान.

असोच एक शुक्रार. न्हावन धुवन सोंवळ्यांनी देवाक दिवो लायलो. फुलां घालीं आनी तुळशीकडेन गेलें. व्हडले नण्डेलो चलो थंयच खेळटालो. तुळशीक नमस्कार करता आसतनाच आयलो. म्हज्या हाताक धरून ओडूं लागलो. हांवें म्हळें, "आरे आरे, आफुडटा? सोवळें न्हेसलां मरे हांव?" हांवें ताका बेगबेगीन पैल्यान धुकल्लो आनी हेवटेन तेवटेन पळयलें. मांय लागसार नाशिल्ली म्हणून बरें. नाजाल्यावर वस्त्र बदल्लेबगर सोडची नाशिल्ली. इतल्यांत म्हजी नदर बाबुल्याचेर पडली. तो निर्शेल्लो पळोवन मन कळवळ्ळें. 'कितें रे? कितें सांगतालो?' म्हण विचारनाफुडें ताजें मुखामळ फुल्लें. 'मामान रोय्यिल्लें न्ही त्या झाडाक फूल लागलां पळय कसलें? पळय. यो पळय. पयलेंच फूल . . . . . . बरें दिसता . . . . . .

मामान रोयिल्ल्या झाडाक . . . . पयलेंच फूल . . . . पयलेंच फूल लागलां . . . . म्हजें मन भुत्लुसलें. खीणभर हांव पळयतच रावलें . . . . 'यो मगे मामी!' बाबुल्यान आफयनाफुडें भानार येवन हांव फुडें सल्लें. कसलें रोप कोण जाणा! दुर्गाकुशीन जाल्लो रोंपो हाणीच हाडून भितर रोयिल्लो. आमी सगली हांशिल्लीं हांकां. पुण आज त्याच रोंप्याचेर एक फूल फुलिल्लें. धड कळो न्हय, धड फूल न्हंय, अशें एक तांबडें–जांबळें फूल घोलत्तालें. पयलेंच फूल . . . . पयलेंच. कशें आसत काय . . . . . रंगान आनी दिसपान काय सुंदर म्हण-सारकें ना . . . . वास पळोवंया . . . . अशें म्हुण हांवें बाग घेतली आनी ल्हवूच नाकाकडेन घेवन वास घेतलो. शीः–ऑक–म्हाका ओकारी आयली. आयली ती आयली, थांबच ना. हातांतलो वावर अर्दकुटो उडोवन मांय धांवत आयली. हरशीं उपदेश करपी. पुण सोवळें आसुनय म्हजें कपल धरूंक लागली, "यो अशी भितर यो. बस. बरें दिसता मगे जिवाक?"

ओकारे थांबले. म्हाका मात लज जाली. हांवें आडखळत म्हळें, "हरशींच . . . . . त्या फुलाचो वास—"

'न्हाल्यार कितले दीस जाले गे? देड म्हयनो मगे?'

'चडूच. पुण तशें जाता जायते फावट . . . . .' हांवें घुसपून म्हळें . . . . . .

'आं . . . . तें आंसू आतां. पड मातशी. च्या इल्ली करतां ती घे.'

हांव पडलें. मन शांत जाल्लें. दोळे धांपिल्लेकडेन म्हाका वेगळीच भावना जाली. आतां म्हाका कोणें न्ही म्हळचारलेगीत पटचें नाशिल्लें. म्हाका आता खात्री जाल्ली . . . . नवें फूल फुलतलें . . . . जिणेच्या रुकाक फळ येतलें. म्हाका दीस गेल्यात म्हणपाची खबर वाऱ्यापरस बेगीन पातळ्ळी. आई–बाबा खबरेक येवन गेलीं. नणंद येवन गेली. शेजाऱ्नी खबर घेवन गेल्यो.

म्हजें मन आनंदीत जालें. हांकां जाल्लो आनंद वर्णुपाक उतरां मेळपाक नात. आता म्हजी मांय म्हाका पावलापावलाक जपताली. मात पातेयनाशिल्ली. हे तर म्हाका सदांच विचारताले, कितें खायन दिसता? कितें जाय तुका? हांवें सांगनासतनाच हे म्हाका आवाळे, चिचेबोटां हाडून दिवपाक लागले. मांय म्हाका लोणचीं–पापड वाडटाली. मांवलेगीत मांयक विचारतालो सुनेक कितेंय हाडूं काय म्हुण.

मांय म्हाका हुमरासकल देंवपाक दिनाशिल्ली. तरी एक दीस हांव देंवलेंच. तुळशीकडेन लायिल्ल्या त्या रोपाचेर फुलिल्लें तें फूल म्हाका पळोवपाचें आशिल्लें. पळय जाल्यार थंय काळचा जांबळचा रंगाचें एक विद्रूप घाणयारें फूल आसा. पळयतनाच म्हाका वीट आयली. म्हऱ्यांत गेल्यार ओकारी बी येत म्हुण हांव फाटल्या पांयांनी घरात भितर सल्लें. मनात पाल चुकचुकलेगबर मात रावली ना. बेठेंच अस्वस्थशें दिसपाक लागलें. आयलें आनी आड पडलें.

दुसऱ्याच दिसाची खबर.

हालीं मांय म्हाका कांयच काम करूंक दिनाशिल्ली. चार तांबये न्हावन भितर सरनाफुडें 'पड आतां मातशी. ओल्यांत बी हात घालूं नाका' म्हुण मांयन म्हाका शिटकायलें. कपलाक लावन हांव आड पडलें.

आनी तामरेतीवैलो ‘राष्ट्रमत’ घेवन नदर भोंवडायली. नदरूय दुश्ट कशी ते चौकटीचेरच थिरावली. ‘मडगांव येथील महिलेला राक्षसी मूल’ अशा माथळ्याखाला ती खबर वाचनाफुडें म्हज्या आंगार कांटो फुल्लो. एके बायलेक खंय एक कपलार एकूच दोळो आशिल्लें आनी तकलेर फाटल्यान शींगां आशिल्लें भुरगें जाल्लें. तरी बरें. मेल्लेंच जालें म्हुण. इतल्यान धाकली नणंद भितर सल्ली – कॉलेज बंद म्हणून पर्थून आयिल्ली ती. हांवें तिका उलो मारून ती बातमी दाखयली.

“आवंय! आयकली हांवे ती खबर!”

“अशें! तरी बरें मेल्लें जालें म्हुण न्ही?”

“पेपराचेर तशें आयलां. रावणफोंडावैलें मीना म्हण्टालें. जालें तेन्ना जितेंच आशिल्लें म्हुण. व्हड जायत म्हुण मारून उडयलें खंय ताका.”

म्हज्या पोटांत कुळकुळ्ळें. बेठोच भंयसो दिसपाक लागलो. नकळटनां म्हजो हात पोटावैल्यान भोंवलो. गर्भाक सांसपून पळोवपाचो हांवें येत्न केलो. कांय लागलें ना. काळजांत धडधडपाक लागलें. उठून हांव भितर गेलें. मांय देवाक फुलां घालताली. तितलें करून ती भितर वचनाफुडें हांव देवासरीं गेलें. हात जोडले. देवाऱ्याचें गवेत उकतें करून कुळदेवाचो आंगारो काडलो. नाखटान खरपून कपलाक तिबो लायलो. हात थरथरताले. हांवें गवेत धापलें आनी देवा म्हूर्तीचेर नदर लायली. ती म्हूर्त कुच्छित्रीपणांनी हांसताशी म्हाका दिसली. म्हाका याद जाली. उपास करतना लेगीत हांवें देवाकडेन फटींगपणां केल्लीं. सोंवळेंलेगीत सांबाळूंक नाशिल्लें. हांव म्हाका नास्तीक समजतालें. आनी आतां? . . . देव . . ख्यास्त दिता जावंये! पांय गळिल्लेवरी जाले. भायर येवन वल्तेराचेर बसलें. नदर तुळशीचेर पडली. आनी थंयसून त्या फुलाचेर–पयलें फूल.

. . . . विचित्र . . . . बेरंगी . . . . घाणयारें . . . . म्हजें दोळे भरून येवपाक लागले. आवयची याद आयली. तिजे कुशींत तोंड धुंगशेवन रडूंक मोळिल्लें जाल्यार मनावैलो भार तरी ल्हव जातलो आशिल्लो.

मन हें मनशाचो व्हडलो दुस्मान अशें कित्याक म्हण्टात तें आतां कळ्ळें म्हाका. पुण जावनूय मन आटापाक येनाशिल्लें. आतां एकूच आदार उरिल्लो . . . . ' हे ' घरात आयले कि मन मेकळें करूंक मेळटलें. तोच एक आलाशिरो.

. . . . आनी ' हे ' आयले. पुण रात येसर मन मेकळें करपाची संदच मेळ्ळी ना.

सगलीं न्हिदूंक गेलीं. हांवें कुडीचें दार ओडून घेतलें आनी हांचे-सरी गेलें. हे वाचताले. बाज्जेर वचून बसनाफुडें हाणी, पुस्तक पेल्यान दवल्लें आनी म्हाका म्हऱ्यांत ओडलें. सकाळसावन मनाक घाल्लो बांद सुटलो आनी हुंडक्यानी रडूंक येवपाक लागलें. हे धुसपले. कितें जालां तें म्हाका सांगपाक येना जालें. उतरांच सुटनात जालीं. हे काकुळटेक येवन म्हाका विचारताले आनी हांव फक्त हुंडके दितालें. हाणी कोण-कोण भाशेन विचाल्लें. हांव तरी कशें आनी कितें म्हूण सांगतलें आशिल्लें. निमाणे हाणीच विचाल्लें, "याद आयली आईची ? " आनी हांवें सट्ट करून ' हय ' म्हळें. तेबराबर हाणी म्हाका आनीकूच म्हऱ्यांत घेतलें आनी म्हजी फाट थोपटीत कानांत सांगलें, ' ह्या येता त्या शेनवाराक या आमी. सोमारा दिसा सकाळी मात परतुपाक जाय आं ! ' हांवें मोन्यांनी ' आं ' म्हळें. मनांतली खरी भिरांत मनांतच उल्ली. तरीकूय मन आतां शांत जाल्लें.

दीसभराच्या कामाक लागून हांचो दोळो रोखडोच लागलो. म्हजी मात पातयेक पाती लागना जाली. हांची न्हीद मोडत म्हुण हांवें दिवो बारीक केलो आनी आड पडून न्हीदेची आराधना करीत रावलें. पुण मन कशेंच वोगी रावना जालें. विचार करीत रावलें. तें पयलें फूल . . . ती बातमी . . . कशें जायत काय तें भुरगें . . . .

सुर्वेक आमचो वाद जातालो . . . . हे म्हणी आपणाक बाय जाय. हांव म्हणी म्हाका बाब जाय. पुण आयज मन तिसरेंच चिंततालें.

त्या घाणयाऱ्या फुलाची गत जायना जाल्यार पुरो. मडगांवां ते बायलेक तर खंय . . . आवयस . . . . तिरशें, कुड्डें, थोंटें परवडलें ! जुळें तिळें परवडलें पुण दुस्मानाचेर लेगीत हो प्रसंग येवचो न्ही रे ! अशें चिंततासतनाच मन भितालें . . . . खुद्द म्हजेरूच हो वेळ आयलो जाल्यार—शी !

हे कुशी वैल्यान ते कुशीर करतां करतां मध्यान जाली. दिवो बारीक केल्ल्यान सांवल्यो बी अस्पष्टशो लांबलांब पडिल्ल्यो. लांबेले तामरेतीची सांवळी तर बद्द पोटमोटेल्याभशेन वण्टीचेर उबी राविल्ली. वण्टीवैल्या पायनेलांतले फोटे कावल्योबावल्यो करपाक लागले. भिल्लें मन अदिकच भिवपाक लागलें. कूस परतिली आनी हांचे कुशींत तोंड लिपयलें !

दोळो केन्ना लागलो कळ्ळोना. फांतोडेर मात जाग आयली. मन खुबशें शांत जाल्लें. तातूंत फांतोडेच्या उजवाडांत हांचे मुखामळ पळयतां पळयतां म्हजेंय मन उल्हासित जालें. ल्हान भुरग्यावरी हे न्हिदिल्ले. मदींच हे मुमुरखे हांशिल्ल्याभशेन दिसले. हावें पर्थून म्हजें तोंड तांचे कुशींत लिपयलें. पुण ते रोखडेच जागे जाले. म्हऱ्यांत घेवन ताणी अळंग म्हजो . . . . "शीः हें कितें ? सकाळफुडेंच ? " हांवें फकाणांनी म्हळें. ताणी म्हाका अदिकच म्हऱ्यांत ओडलें. मन शांत जाल्लें. पुण मनांतली भिरांत अजून वचूंक नाशिल्ली. हांव ल्हवूच हांचो हात हातांत घेतलो आणि पोटाचेर धरून विचाल्लें.

"कोण आसा हांगा ? "

"बाय म्हजें."

"अं. अं. बाबच."

"बरें बरें दोगांय . . . . एक बाब, एक बाय. जालें ? "

"आवयस." अशें म्हुण हांचे वांगडा हांवय हांसलें.

"बरें, कोणाभशेन जातलें सांग पळोवया ? " हांवें विचाल्लें.

"सांगूं ? तुजे भाशेन."

"ना. ना. म्हाका तुमचेचभशेन जाय." हांवें मनापासून म्हळें.

"तुजेर कांय ना तें. म्हाका जाय तशेंच तें जातलें, तुजेभशेन गोरेंघवें, सुंदर . . . . . . ."

मांयची जाग आयली आनी आमी उठलीं. दीस बरो गेलो. पुण मातसो वेळ मेळनाफुडें ती भिरांत मात तकली वैर काडटालीच.

शेनवारादिसा आमी आई म्हऱ्यांत गेलीं. आईचे कुशींत तकली घालून रडपाची वेळच आयलो ना. मन हुशार आशिल्लें. आनी खबरांत-तच वेळ सल्लो. सोमरादिसा आमी परतलीं. म्हजें मन थीर जाल्लें. हे म्हाका सदांच विचारताले, तुका कितें हाडुं, कितें खायन दिसलां, हांव 'कांय नाका' म्हणी. पुण म्हजी अडचण वेगळी अशिल्ली. आमच्या पोरसांत काराद्यांची वाल आसा. तिका लागिल्ले कारांदे उकडून खावचेशे म्हाका दिसतालें. पुण सांगपाकच लजशी. प्रस्न फक्त लजेचोय नाशिल्लो. म्हाका भंय दिसताले, गोड–आंबट सोडून कडू कारांदेशे म्हाका खायन दिसलें? कसरे लक्षण हें? बऱ्याचेंशें दिसना. हरशी कारांदें खायनात अशें न्हीं. पुण हे आमच्या पोरसांतले वेलीचे कारांदे खूब म्हळचार खुबच कडू. ते खातीर कोणाकच नाका आशिल्ले. आनी म्हाका मात ते दिसले कि तोंडाक उदक सुटचें, रूच येवची. पुण मन मारून हांव वोगी रावतालें. कडु कारांदे खायन जाल्यार भुरगें कितलेंशें बरे जायत. देवाक खबर!

दुवाळे हे आमलेचे वा आंवाळ्याचेच नासतात. ते कसलेय आसूंक शकतात. म्हाका ते कडु कारांद्याचे जाल्ले अितलेच. पुण गोड दुदफेण्याचे कित्याक जाले नात? चींचेबोटां वा लोणच्याचे कित्याक जाले नात? बारीक खबर काडिल्ली. पुण कोणाकूय कोडू खायन दिसलां म्हुण आयकुंक आयलें ना. म्हाका शक्य असल्यार हांव ते मडगांवचे बायलेक विचारून तिका कसले दुवाळे जाल्ले ते विचारीन आशिल्लें. पुण . . . . मनांतले दुबाव आनी भंय दाबून दवरिल्ल्यान अतृप्ति आनी अशांतताय बी वाडतच गेली.

म्हण्टां म्हण्टां णवो म्हयनो लागलो. सातव्या वैलीं फुलां मोटीं जालीं. मांय–मावान मोटे उमेदीन सगलें अितलें केलें. नशिबानच मेळटात असले मांय–मांव. णव्या म्हयन्यावैलीं फुलां कुळारा. कुळारा आयलें. म्हजें घर आनी घरकार सोडून येतना जिवार आयिल्लें. पुण भायर सल्लेंच. देवाक नमस्कार करतकीर मायन म्हाका तुळशीकडेन व्हेलें. सट्ट करून म्हजी नदर त्या रोपाचेर पडली. थंय ‘तें’ फूल नाशिल्लें. आनी दुसरेंय फुलूंक नाशिल्लें. तें फूल बावून झडून पडले जातलें. एखादरे कोणेंय बरें दिसना, घाणयारे म्हुण तोडुनूच उडयलां जातलें . . . . . तें राक्षसाभशेन जाल्लें भुरगेंय अशेंच मेल्लें . . . . काय मारिल्लें . . . विचार येनाफुडें आंगार सर्र करून कांटो आयलो. ल्हंव सगली उबी जाली, मन बधीर जालें, काळजांत धडधडपाक लागलें. तुळशीक नमस्कार करताना हातलेगीत थथरपाक लागिल्ले.

आतां हांव कुळारा पावलें. आवयसरीं. आवयचे कुशींत.

दोतोरान तारीख दिली. दीस सरपाक लागले. मनातली भिरांत मात सरनाशिल्ली.

“बाय, फाल्यां गिराण सूर्याक. न्हिदून रावपाक जाय आं . . .”

बेठीच दुगदुग दिसपाक लागली. चुकून भायर सल्लें जाल्यार! सुर्यार नदर पडली जाल्यार. चुकून कितेंय खाल्यार!

आमोरेचेर शेजान्नी आयल्यो. खबरो मारतां मारतां एकएक खबर आयली. गिराणाचीय खबर आयली. जाण्टेल्यांनी म्हाका उपदेश केलो . . . . न्हिदून राव . . . भोंवनाका . . . खावं नाका .वारें लेगीत लागूंक जायना! आनी देखीक म्हुण उदाहरणां दिवपाक लागल्यो. अमक्यान पथ्य पाळ्ळें ना . . . तिगेलो पूत लुळो जालो. अमकेन अमकें केलें. तिगेल्या पुतालो बोंचोच वांकडो. आनी खबरोच खबरो. म्हका चडच भंय दिसपाक लागलो. कोणाक दिसना आपलें भुरगें सुंदर आसचें, गुटगुटीत आसचें, लोकांनी ताजी अपुर्बाय करची. लक्तुबाय दिसची!

पुण तेंच भुरगें असलें जालें . . . दोन तोंडां, शिगां . . . जालें जाल्यार आनी विचान्नाका.

केन्ना काय त्यो बायलो गेल्यार पुरो जालें म्हाका. गिराण सोंपलें. पुण दुबाव उणें जाले नात. हांव न्हिदून रावलें, कांयच खालें ना. पुण तरीकय एकलेन म्हणिल्लें वारें लेगीत लागपाक जायना. कुडींत वारें तर आशिल्लें. अर्थात वारें आसपाक जायनाशिल्लें अशेंच हांव म्हणना. हांव शिकिल्लेसवरिल्लेंच भुरगें. पुण भिल्लें मन दुबाव काडीत बसतालें.

फुलां जालीं. मोटो दबाजो जालो. लोक धादोस जालो. हांवूय हांसून वावुल्लें. पुण मनांतलो काळोख ना जावंक नाशिल्लो. रात जाली. पुरो जाल्ल्यान म्हाका न्हीद येवपाक लागली. हातरुणार पडनाफुडें म्हजो दोळो लागलो.

. . . पोटांत जावपाक लागलें . . . हॉस्पिटलांतली कूड . . . वेणो येवपाक लागल्यो . . . पिडा वाडत गेली . . . परवण लागली . . . सोंपचीचना कशें दिसलें.

आवयन म्हाका उठयलें. कितें गो, सपनेता? काय पेटांत दुखता गो? जागें जावन पळे जाल्यार न्हिदांत आशिल्लें खरें. पुण आवयल्या दोनय प्रस्नांक जाप मात अेकूच आशिल्ली. सपनेतालेंय बी. आनी खऱ्यानी दुखतालेंय बी.

सडसडीत सगलीं उठलीं. मोटार आयली. रातोरात हॉस्पिटलांत व्हेलें. वेग मारताले. पुण भिरांत तेपरस मोटी दिसताली. तें फूल नदरेमुखारायेतालें -घाणयारें...ती पेपरांतली बातमी...राक्षसी मूल...गिराण...अतृप्त दुवाळे... वेणो वाडटाल्यो तशी परवण वाडटाली. दोतोरान येवन तपासलें. 'न्हिदेचें इंजेसांव दितां, बरें दिसतलें,' अशें म्हुण ताणे इंजेसाव तोपलेंच. इंजेसावचिो उपेग जायतसो म्हाका दिसनाशिल्लो. वेणो कसल्यो येतल्या...परवण वाडत गेली...

....सोपचीच ना कशें दिसपाक लागलें...त्रास वाडलो ...दोतोर म्हण्टाशें दिसलें. ".सर्व साधारण अितलो त्रास जायना...भुर्गें ..." हांव जाणाच आशिल्लें

हें भुरगें साधारण न्हय...तें...तें ...आवयस... दोतोराल्या कपलार हूम... सिस्टर नर्व्हस... धांवपळ...दोन तोंडां... ...शिगां...आवय-बापूय दोळयांत दुकां...माय मांव येनात...घोव येता... दुखेस्त जावन वेतात...खबर लेगीत घेनात म्हजी...म्हाका हुंडको यैंता...पत्रकार...फोटो...'महिलेला राक्षसी मूल...' उशें तोंडार घेवन हांव रडटां..आनी...श्रांत न्हिदतां...

"...बाय, उठ. चली जालां पळय." आईल्या उतरांनी हांवें दोळे उकते केले. पळयल्यार कुशीर भुरगें न्हिदलां...गोरें पीट्ट. पुण रुप हांचेंचशें दिसलें म्हाका. दोळे, नाक, खाडकी......हांचेचभशेन.....'आठ पौंड चली आठ, अशें म्हुण सिस्टर हांसली.

उकत्या दारांतसून हे भितर सल्ले. भुरग्याक पळोवन हांसले. म्हज्या कानाकडेन तोंड हाडून हाणीं म्हळें 'हांव जिखलों. चली जालें.'

"हांवूय जिखलें. तुमचेंच रूप घेवन आयलां."

* * *

# कोंयसांवालीं गोरवां

इनासान गोरवाक आमडून गोठ्यांत व्हेलीं. दांवीं बांदलीं. आनी फाटल्या दारांतल्यान तो घरांत भितर सल्लो. कोंयसांव रांदनीपोल्लांत फूक मारून उजो सारको करतालें. इनासाची जाग आयकून ताणें अजापून विचाल्लें—

'इनास, गोरवां बांदूंक नात आजून ?'

'बांदून येतां थिगा आहां !' इतलें म्हणून इनास वण्टीक तेंकून आशिल्ले काशीचेर बसलो. अर्दकुटें ओडून कानाचेर दवरिल्लें विडये पोंतेर काडून ताणें फस्काकाडी माल्ली.

'आब्बा ! आयज हांबेनायशी ?' कोंयसांवान अजापून म्हळें. सद्दां गोठ्यांत पावनाफुडें हांबेवपी गोरवां आज इनास तांकां गोठ्यांत बांदून घरांत पावलो तरी हांबेलीं नातशीं !

'तोंड आसोंक नाका हांबेवच्याक ?'

'कितें जालें'? काळजांत कल्ल जालें कोंयसांवाल्या. 'कोणागेल्या पोरसांत बा—'

'पोरसांत न्हू—पावलू भाटकारागेल्या भाटांत पावलीं आयज. थिगा कावाथे खायले खंय. भाटकार पंदरा रुपय दिलेबर सोडना म्हुण्टालो. काकुळट करून निमाणें वावराक येतां म्हुळे तेन्नां सोडलीं तेणें.'

कोंयसांव काय एक उलयलें ना. दनपारां केल्ली खुटी च्या धगाचेर दवरून हून केली आनी मोन्यानी कोपांत ओतून व्हरून इनासामुखार दवल्ली. आजून गोरवां हांबेवं नाशिल्लीं.

'कोडू कोडू वीख मुगो!' धुंवरेल्ले खुटे च्याचो घोंट मारून तोंड वांकडें करीत इनास उलयलो.

कोंयसांवाचें मन दुसरेचकडेन घुसपल्लें.

गोरवां हांबेनातशीं! काय भूकच लागली ना आजून तांकां!

'चड कावाथे खायले रे गोरवांनीं?'

'खंयचे गो! एकलेगीत खायलो ना. तोंडलेगीत लायलें जाल्यार देव जाणा!'

तशें जाल्यार! कोंयसांवाक सट्ट जालें, 'भाटकारावैलो राग गोरवांचेर बा काडलो ना मुरे इनास?'

इनास वग्गी रावलो.

कोंयसांवान हातांतलो वावर थंयच सांडलो. गोठ्यांत येवन पळय जाल्ल्यार गाय आनी पाडो दोगांय वग्गी उबीं आसात. आपणाली खरखरीत जीब भायर काडून ताजें आंग चाटपी दोगूय जीव आज वग्गी आसले. कोंयसांवाक खीणभर दिसलें तीं नदर चुकयतात! रागार जाल्यांत काय? कोंयसांवान दोनूय हात दोगांयच्याय फाटीर दवल्ले. तेबराबर दोगांय गोरवांनी एकाचबराबर थरथरथर आंग शिरशिरायलें. गाय पयलीं हांबेली आनी फाटोफाट पाडो. कोंयसांवान गायच्या गळ्या-कडेन पोशेत दुसऱ्या हातान पाड्याचे कपल खरपिलें. गाय कोंयसांवाचो हात चाटपाक लागली. कोंयसांवाली बारीकसाणीची नदर गोरवांच्या फाटींवैल्यान भोंवली. व्हडलेशे वळ दिश्टी पडनासले. पुण बडयो खंय, पडिल्ल्यो त्यो कोंयसांवाले अणभवी नदरेन निरखिल्यो.

गोरवां आतां एकसारकीं हांबेवपाक लागलीं. तांकां भूक लागिल्ली. पोटाक उजा पेटिल्लो. कोंयसांवान तांकां थापटून 'वगी रावात' म्हळें. कोंयसांव भितर आयलें. इनास भायर बसून चुडटां मोडटालो.

'इनास, पेंड काय ना घरांत.'

इनास वगी रावलो. तो म्हुण कितें करतलो ? कोणाचीं म्हुण पोटां भरतलो ? तीग जाण भुरगीं. हाडली पड खाली पड करून दीस धुकल-पाची खबर ! गाय दूद दिताली तेन्ना पेंड हाडपाक तांकतालें. पोरूं वर्सा दोन बैलांचें जोत आशिल्लें. काळो पाडो जिस्त नातलांकडेन मेलो. नाजाल्यार जोत तरी करूंक मेळटलें आसलें. आतां आटिल्ले गायेक आनी बेकार पाडचाक पेंड खंयची ?

'कुंडो इलो आहा, इनास ! हांव धोण घेवन येतां. तूं हिंगा राव.'

चार कोंकण्यालीं घरां भोंवन धोण पुंजायता म्हणसर आमोरी सरत आयली. धोणान भरिल्लो मातये कोळसो माथ्यार सांबाळीत कोंय-सांव घरांत भितर सरिल्लें मात. गोरवां मोटमोटचान हांबेवपाक लागलीं. कोंयसांवान कोळसो सकयल दवल्लो. पोतयेंतलो वांटावन दवरिल्लो कुंडो काडलो. दोन कद्यांत सारको ओतून तातूंतच धोण ओतलें. कुंडो मातसो फुगसर हातानच तें धवळ्ळें.

गोरवां हांबेतालीं. तांकां थार नासलो. इनास भायर आयलो. विडये पोंतेर भायर शेवटून ताणें सान्नी खुंटारो घेतलो आनी सडसडीत गोरवांफुडचांतली सुवात निवळ केली. कोंयसांवालें धवळून जायनाफुडें कदीं उबाल्लीं आनी गोरवांसामकार दवल्लीं. आधाशांभशेन गोरवां भकभकीत खावपाक लागलीं.

कोंयसांवान बांयचेर वचून कळसुली भरून हाडली. तोमेरेन गोर-वांनीं कदीं चाटूनपुसून निवळ करून दवरिल्लीं. कोंयसावांन कळसुली कद्यांत ओतली आनी तें भितर गेलें. भायर भुरग्यांलो कलकलाट चल-तालो. रांदनीचेर आदन खतखततालें. आपूण धोण हाडपाक गेल्लें तेन्ना इनासानच आदन दवल्लां आसतलें. खीणभर मनांतल्यामनांत इनासाची तोखणाय करून कोंयसांव वावराक लागलें.

सुके पेडवे इंगळ्यांचेर भाजून सकयल काडले. तेला बाटलेंतलो निमाणो थेंबो ताचेर सोडनाफुडें घमघमीत वास सुटलो.

'ओ इनासो ' भायल्यान कोणे साद घालो.

'येयलों ' इनासान फाटल्यानच्यानच जाप दिली.

म्हण्टसर पेद्रू बल्कांवांचेर येवन सोप्याचेर उकडयां बसलो. भाजिल्ल्या सुक्याचो वास ताज्या नाकांत भल्लो.

'ओ कोंयसांव ! जेयच्या येयलां–' ताणें फकाणां माल्लीं.

'जेवया ! आज मासोळी बा फॉर्त आहा.' कोंयसांवान उर-फाट्यान म्हळें.

'तें वासावैल्यानूच समजता–' पेद्रून विडी पेटयली. इतल्यान इनास भायर आयलो.

'इनास, गोरवां खंय रे ? ' पेद्रूलो प्रस्न आयकनाफुडें कोंयसां-वांच्या काळजांत कल्ल जालें. आनी कोणालें पोरसूं बी खालें ना मूं ? पुण ना. पेद्रूनच फोडणिशी केली.

'परां मडगांवां पुरुमेंता फेस्त आहा न्हू ? आमगेल्या रेडकाक व्हरतलों हांव ! तूं बी येवपा आहा जाल्यार चवच्या येयलो हांव.'

खीणभर अनमन्न इनासान फाफडून म्हळें, 'ना रे बाबा ! '

एक मन सांगतालें विकचीं हीं गोरवां ! एक बैल जोताक उप-करना आनी आटिल्ली गाय पोसूंक जड. पुण दुसरें मन शिटकायतालें– कोंयसांवाचोय विचार करूंक फाव ! ह्या गोरवांचेर तें भोव माया करतालें.

'आरे, कितें घेवन बसला ? हो पाडो आतां जाण्टो जायत येयला. फाल्यां होवूय मेलो जाल्यार कितें करतलो ? ' पेद्रून धुंवर सोडीत म्हळें.

इनास वग्गी रावलो.

भितल्ल्यान कोंयसांव कानाचें सूप करून आयकतालें. पेद्रू उलयत आशिल्लो.

'म्हगेल्या रेडकाक हांव विकूंक सोदतां. ओंदू पीक बरी येयली जाल्यार फुडांत म्हसच धेंवं येता. तुगेलें तूं चींत बाबा ! फेस्ताक प्रेस मेळटा तो मात फाल्यां मेळपार ना. म्हज्या कोंतान तुयें गाय आनी पाडो दोनूय विकल्यार चड बरें. मागीर घेवं येना ? '

पेद्रू गेलो. पुण इनास मितर सल्लो ना. कोंयसांवान पेद्रुलें उतरान उतर आयकलां आसतलें म्हणपाचें तो जाणा आसलो. पुण ह्या प्रस्नाचेर कोंयसांवाकडेन उतर काडपाक ताका काळीज नासलें.

कोंयसांवान भुरग्याक जेवपाक आपयलीं. ताका पेज वाडून पेडव्यां-कुडके वाडले.

'कोंयसांव, येतां आं —!'

इनास खंय गेला ते कोंयसांव जाणा आसलें.

पेद्रू उलयिल्लो तें येवजीत कोंयसांव रान्नी पोल्लांत बसलें.

एक गाय आनी दोन पाडे! पयलींसावन कोंयसांवाचो तांचेर भोव जीव! तांचेपसत कोंयसांवान—आनी इनासानूय कांयच करचें दवल्लें ना. आपणांल्या पोटाक चिमटो काडून लेगीत गोरवांक खावड घाल्ली. आनी अशें आसतनांय सोरपान चाबिल्ल्याचें निमित्त करून एक बैल जिस्त नातलाकडेन मेलो. कार्नीव्हाल करून गाय आटली आनी आतां—

तिगां भुरग्यांचें आनी दोगां जाण्टयांचें पोट भरतासर नाकापुरो जाता थंय मोनजातींचें आनी कितें चिंतपाचें! आकांताची म्हारगाय—तातूंत आता माय सोंपत आयलो तरी रोंपपाची आजून कांयच येवजण जावंक ना. लोकांनी बीं मारून थाम काडलें. थोडयांनीं तर पयल्या पावसाच्या भरवंशारच थाम रोंपिल्लें आनी कोंयसांवाल्यो दोनूय शेता-बांदयो तशोच उरिल्ल्यो. आजून हात लावंक नासलो. शेजान्नी सदींच विचारताल्यो 'केन्ना रोयतलें केन्ना रोयतलें!' पुण इतले दुडू हाडचे खंयचे? थाम, सारें, नडणी, सगलें जातलें जाल्यार—हय. शेत पिकवपाकच जाय. पोरूं शेत केलें म्हुण ओंदूं पोरां पेज जेवतात, नाजाल्यार ओंदूं! रोवपाकच जाय...पावस तेंकलो...परां पुरुमेंता फेस्त!

इनास कोपाचें मारून परतलो. कोंयसांवान ताका पेज वाडली. बुडकुल्यांत पळोवन इनास पेज जवलो. कोंयसांवान ताका आनीक वाडपाक दवलो काडलो.

'नाका. पुरो. पोट भल्लें.'

कोंयसांवाक कळ्ळें बुडकुल्यांत पेज थोडी उल्ल्या देखून इनास 'नाका' म्हण्टालो. पुण कोंयसांवाक भूक नाशिल्ली. ताणें म्हळें,

'हांव जेयलें, इनास! तूं जेय पोटभर! फाल्यां कामाक वचों नाका?'

'फटी मान्नाका. तूं जेय.' इंतलें सांगून इनास उठलो.

पेजे नीस घोंटून कोंयसांव उठलें. रांदनी पोल्ल सारोवन तें भायर आयलें. भुरग्यां थार न्हिदिल्लीं. इनास वण्टीक तेंकून दवरिल्ले काशीचेर उकडयां बसून विडी फुसकायतालो.

'इनास, परां पुरुमेंता फेस्त!'

इनासान विडये दम मारून धुंवर सोडलो. पुण उलयलो ना· तागेल्याय काळजांत तेच विचार धुमशेणां घालताले.

'गोरवांक व्हरता मरे?'

इनास तट्ट जालो. कोंयसांव बळयां उलयता अशें – थोमणे मारता जातलें – काय बकच्छायो करता––

इनासान नेटान न्हयकारार्थान तकली हालयली.

'ना कितें? पिशें लागलां तुका?' कोंयसांव सांगतालें इनासाक. पुण समजायतालें आपणांकूच. 'गोरवां विकना जाल्यार आमी करप कितें? शेत रोपूंक जायें मरे? साऱ्याक, थामाक दुडू खंयचो हाडटलो? पाय-गेलो आहा?'

इनास अजापान आयकतालो. येदो वेळ तो हेंच येवजितालो. पुण जें उलयल्यार कोंयसांवाक वायट दिसतलें म्हुण तो वगी आशिल्लो तें कोंयसांवच ताका सांगतालें––

'खऱ्यांनी उलयता?' घोगऱ्या आवाजान इनासान अविस्वासान विचाल्लें.

'हो वगत फकाणां करपाचो? फाल्यांचो दीस मदें. परां फांत्या पारार तूं गोरवां घेयन वच. हांयें येवों जायें?'

'नाका.' इनासान म्हळें. ताका सू जालें. कोंयसांवाक मानवचेंना म्हुण येदोवेळ तो सुचोवपाक फाटीफुडें करतालो. आतां कोंयसांवच म्हण्टालें 'वीक' म्हुण. इनास सूस्त न्हिदलो. दिवो वाडोवन कोंयसावूय न्हिदलें. कोंयसांवाले हुंडके आयकुपाक इनास मात जागो नाशिल्लो.

दुसरो दीस सरता म्हण्टसर नाकाशेवट जालो.

सकाळफुडेंच मारीसांतान आयलें–

'ओ कोयसांव! आज मळबांत चयलां? पावस आहा मिस्ता लागसार!'

'जायीत!'

'तूं रोंपना गो?'

'पुरुमेता फेस्त करून रोंपयाचें केलां.'

'बेगीन कर बाये! पावस तेंकलो. लोकांनी रोंपलें लेगीत! आनी तुयें आयकिलां मगो? साऱ्याक बोब पडल्या लोकांची. सारेंच मेळना खंय! तूं आतां सिगूर कर–'

मारीसांतान सकाळी आयिल्लें. दनपरां काम्रतान आयलो.

'थाम घेयलें गो तुयें?'

'ना आजून.'

'जायें?' कायतानान विचाल्लें.

'तुजेकडेन आहा?'

'ना गो! पुण बेबद्या सांतानाकडेन आहा. जाय जाल्यार आतां सांगून दवर तेका.'

'मागीर इनासाक विचारून सांगतां.' कोंयसांवान म्हळें.

सकाळीं गोरवांक चरवाक धाडूंक नासलीं. सांजवेळा कोंयसांवानच तांकां चरवाक व्हरून हाडलीं. पेटलांत सांबाळण दवरिल्ल्या दुडवांची एक कील पेंड हाडली. आदीं रुपय व्हेल्यार कीलभर पेंड घेवन आंगा लावपाचो बारकेलो साबांव येतालो. आतां साबांव वखदाकलेगीत मेळना. आनी रुपय दिल्यार कीलभर पेंडूय येना. पसरकाराक दोन फुकेसवाय

गाळी संवून कोयसांवान पेंड फुगूंक घाली. इनासाक घरा दवरून तें कोंकण्यागेर गेलें. प्रत्येक घरांतलें धोण एकठांय करतनां दोळ्यांतलें उदक आडायत ताणें सांगलें,

"फाल्यासान नाका बाये धोण आमकां ! गोरवां विकतात आमी फाल्यां !—"

गोरवांक पोटभर खावड घालून इनास आनी कोंयसांव भितर गेलीं. दोगांयलींय मनां जड जाल्लीं. पोटच्या भुरग्यांवरी मायेन वाडयिल्लीं हीं दोन मोनीं जनावरां. पोटाखातीरच विकपाक पडचीं ?

सगली रात तळमळचांत सल्ली. दोळो म्हुण लागलोच ना. झिळ-मिळचाचेर कोंयसांव उठलें. रांदनीक उजो करून च्याक आदन दवल्लें आनी गोठ्यांत वचून गोरवांम्हऱ्यांत बसून रड रड रडलें. इनासाची जाग आयकनाफुडें उठलें. च्या सारकी केली. दोगांयनी रांदनीपोललांत बसून मोन्यानीं च्या घेतली.

भायल्यान जाग येवपाक लागली. फिलीप, हरी, पेद्रू हेवूय आपा-पणालीं गोरवां घेवन वचपाचे आशिल्ले. इनासान खोमीस आंगांत घालता आसतनाच कोंयसांवाक सागलें. 'तूं शेतात वचोन बांदयो चय आमगेल्यो. आनी त्या बेबद्या सांतनाकूय रेकाद धाड थाम जायें म्हुण. फाल्यां. पावस पडलो जाल्यार परांच रोंपून उडोवया.'

कोंयसांवालो एक कान भितर आशिल्लो. दुसरो गोठ्यांत.

पेद्रू आयलो, 'ओ , इनासो ! '

इनासान फाटल्यान वचून दावीं सोडलीं. गोरवांक आमडून हाडलीं. कोंयसांवाच्यान पळोवं नज जालें. तें धांवलें. गायेक वेंग माल्ली. पाडो म्हऱ्यांत येवन ताज्यो पोंवटो चाटपाक लागलो. तेबराबर कोंयसांवाच्या दोळ्यांतल्यान व्हाळ व्हांवपाक लागले. हुंवाराक घाल्लो बांद फुटलो. आनी हुंडक्यार हुंडके फुटपाक लागले.

'तूं आतां भितर वच, कोंयसांव ! ' इनासान ल्हवू म्हळें.

कोंयसाव जड पावलांनी थंयच रावलें. इनासान गोरवांक ओडलीं. पेद्रू पैस पाविल्लो. इनासान सडसडीत दांगां घालीं. दांवीं तट्टटून ओडपाक लागलीं. कोंयसांवाक दिसलें, गोरवांचे पांय जड जाल्यात ; तांकां वचपाचें ना. इनास तांकां भरभरीत ओडून व्हरता. 'नाका–नाका, इनास. तेंकां व्हरों नाका–' पुण उतरां फुटलीं नात. हुंडके मात फुटले. आनी कोयसांवान थंयच बसकण माल्ली.

दीस उजवाडलो. कोंयसांवान मन घट केलें. जालें तें जालें. भुरग्यांक च्या दिली. आनी तें शेतांत गेलें. खोरें घेवन ताणें भूंय भुसभुशीत आनी सपाट केली. बांदयांच्यो मेरो घड केल्यो. आदेस थंय मोडून घरा गेलें. दनपरां जेवन तें कायतानागेर गेलें. थाम जाय म्हुण उतर करून तें पसऱ्याचेर गेलें. सारें कसलें आसा, कसलें बरें ती खबर काडली. आनी सारें काबार जायत म्हुण 'फाल्यां येतां, दवर म्हाका आं–' म्हुण सांगून आयलें.

घरा येनाफुडें ताका पर्थून गोरवांची याद आयली. मन आकुळपिकूळ जालें. बेठेंच कोंयसाव गोठयांत गेलें. रितो गोठो खावपाक येवपाक लागलो. कोंयसांव भितर गेलें. भांगरासारकीं गोरवां ! विकूंक नाका आसलीं. कसली अवदसा येवजली ही आमकां ! भांगरासारकीं मायेस्त गोरवां आमगेलीं ! तो पेद्रू त्या दिसा येनासलो जाल्यार हें येवजुचें लेगीत नासलें आमकां. दोन गाळी पेद्रूक, दोन इनासाक आनी निमाण्यो दोन आपणांकूच घालीत कोयसांव उठलें. पेजेक तांदूळ घाले. पेजेक उडयतना तें घुटमळ्ळें, जावं ! गोरवां वचूं ! फुडलें वर्सभर दोन गोटे तरी पडटले पोटांत.

दीस बुडून काळखाचीं भुतां घरांत भितर सल्लीं. कोंयसांवाले विचार ताका बुड्डुपाक लागले. हेच गायेच्या दुदार आपणालीं पोरां व्हड जाल्यांत. तिजेंच दूद विकून आमी पोट भल्लां. ह्याच पाड्यान जोतां कसल्यांत आनी घराक हातबोट लागलां. आनी आज आमी तांकां विकपाक फुडें सल्ल्यांत ! काय बरीं भांगरासारकीं गोरवां ! सायबा

भगस ! फेस्ताक गिरायक मेळना जाल्यार पुरो ! गोरवां पर्थून आयल्यार. पुरो ! अशी प्रार्थना करून कोंयसांवान मनाचें समाधान केलें.

आमोरी जावन गेली. इनास येवपाचो जालो. पुण कोंयसांव भायर येवन बसलें ना. भितर दिवोलेगीत लायनासतनां तश्शें काळखांत बसलें.

तशीं जायतीं गोरवां खपनासतनां पर्थून येतात. पुण तीं गोरवांच वेगळीं. आमगेलीं गोरवां अपुर्बायेचीं. कोणूय उडकी मारून व्हरतलो. वगीच धाडलीं. अशेतरेचे कशाकशेय विचार करीत कोंयसांव बशिल्लें इतल्यान पैसुल्ल्यान घांटीची किणकीण आयकूं आयली. कोंयसांव भायर आयलें.

पेद्रू येतालो. इनास फाटल्यान आसलो. हयन्हयशा उजवाडाचेर कोंयसांवाक दिसलें पेद्रुलो रेडो परतो आयलो. पुण पेद्रुल्या रेड्याच्या गळ्यांत घांटी नाशिल्ल्यो हें तें विसरिल्लें.

गिरायक मेळ्ळें ना तरी कोंयसांवाक खोस जातली हे भावनेन इनास गोरवांक घेवन धांवत दारांत आयलो.

कोंयसांव खीणभर मठ्ठ उबें रावलें. तें शेत, तें थाम, तें सारें, सगलें ताज्या भवतणीं धुंवपाक लागलें. गायेन ताजो हात चाटपाक जीब भायर मात काडिल्ली.

'आग्गो चेडये, पाड पडिल्ल्यांनो, आतां आमगेलें जावप कशें ? शेत रोंपप कशें ? फुडलें वर्स आमी खावप कितें ? मरात तरी वचोन खंयूय ! तुमकां पोसतलो कोण ? ' अशें उलयत कोंयसांव दोनूय हातांनीं त्या मोनजातींक मारीत सुटलें.

* * *

# आंबो म्हगेलो

आजोळची व्हडवीक सगल्या नातरांकं आसता. मामा ही व्यक्ति सगल्या भाचरांक जायजायशी आसता. विनूक आजोळची ओड आसली जाल्यार अजाप कसलें? विनू जाल्लोच आजोळा – मामागेर! विनुलो मामा रावता पणजे! पणजे म्हळचार केदें व्हडलें शार! तातूंत मामा-गेर ल्हानव्हड भुरगीं खूब! व्हडल्या मामालीं, धाकल्या मामालीं. ताका लागून सुटी पडली रे पडली – विनू पावलोच मामागेर म्हण समजुचें.

ओंदूय नातलांचे सुटयेंत विनू मामागर आशिल्लो. नातलांत चड मजा जाता ती पणजेंत. नखेत्रां, गोठे, फोग, वाजंत्री, पुरसांवां—वचत थंय फकत मजा आनी मजाच मजा!

धा दीस कशे सल्ले तें कळ्ळेंच ना. विनू फकत खेळांत आनी भोंवपांतच गुल्ल जावन उल्लो. सुटी सोंपता आनी कोणूय व्हरूंक येता म्हळचार ताका वायट दिसतालें. आज सकाळफुडेंच अनंताक पळोवन विनूक कळ्ळें. जालें. सुटी सोंपली. आतां घरा वचपाचें लागीं पावलें. विनुल्या मुखामळावैली सयच बदल्ली.

अनंत विनुलो व्हडलो भाव. विनून ल्हवूच फुडें सरून अनंताक विचाल्लें, "एकलो ऽ आयला तूं?"

"ना. बाबा आयला. म्हाका हांगा देंवोवन बाबा बाजारांत कामाक गेला. दनपारां येतलो."

अनंताक वांगडी मेळ्ळे. तो खेळपांत रमलो. विनूय खिणभर सगळें विसल्लो. आनी पर्थून खेळपांत गुल्ल जालो.

बऱ्या ऽ वेळान अनंताक कितेंतरी येवजून आयलें. ताणें खेळ अर्दारूच सोडलो आनी तो "विनू ऽ वि ऽ नू ऽ" अशे थार नाशिल्लेभशेन एकाचेर एक उले मारीत धांवट चौकार आयलो. विनू चौकार खेळटालो. निकतोच ताणें पसरो घाल्लो. आनी एका फळचाच्या कुडक्याचेर बारीक बारीक पानां, कागदा कुडके, रितीं फस्कां, रितीं सिगारा–पाकिटां, शिपयो, गुड्डचो, असो कितलोसोच वेपार मांडिल्लो. इतल्यान अनंत धांव्वट आयलो.

"विनू, विनू तुका सांगपाकूच विसल्लों. आमगेल्या आंब्याक तोरां लागल्यांत."

अनंताल्या तोंडातसून सुटिल्लीं उतरां विनूल्या कानांच्या पड्यार आपटून मेंदवामेरेन पावपाक मातसो कळाव जालो.

"आं ?" अशें बेठेंच विचारता म्हणसर विनूक समजलें. आंब्याक तोरां ! आमगेल्या आंब्याक तोरां ! म्हगेल्या आंब्याक तोरां !

"तोरां ? आंब्याक ? आमगेल्या ?" विनून पिशाभाशेन विचाल्लें.

"हय. खुब्ब. येदीं येदीं आसात." अनंतान बोटांनी आकार दाखयत सांगलें.

विनू सट्टकरून उठलो. तागेल्याच पांयांनी, ताणेंच मांडिल्लो पसरो जमनी भरवण जालो. पुण विनुचें लक्षच नाशिल्लें. हरशीं कोणालोय पांय लागल्यार तो ताळ्यांत वांशे भरिल्लेवरी रडून घर एक करपी पुण आज जादून भारायिल्लेवरी तो उठलो. बेगबेगीन अनंताक घेवन भायर आयलो.

येदोवेळ खेळांत गुल्ल जाल्लो अनंत अकस्मात विनूक सोदपाक धांवता कितें आनी मोटचा त्रासांनी घाल्लो पसरो जमनीभरवण करून विनू उठटा कितें ! भुरग्यांक कांयच समजलें ना. सगले भुरगे अनंत विनू फाटोफाट भायलेदारांत आयले. विनू अनंताक विचारतालो,

"केन्ना लागलीं रे तोरां? आजच?"

"म्हाका खबर ना. पैरआईन पळयलीं. तूं वतकीर रोखडेंच–"

विनू सामको उचांबळ जाल्लो, "केदीं आसात रे? येदीं?"

"येदीं येदीं" अनंतान दाखयलें.

"कितलीं लागल्यांत? खुब्ब?"

"सारकीं दिश्टी पडनात. पुण खुब्ब आसतलीं."

"तुमी उश्टायलीं?" विनून मनांतलो हुसको लिपयत प्रस्न विचाल्लो. आनी स्वास आडावन तो जाप आयकुपाक रावलो. अनंतान 'हय' म्हळ्यार ताका खुब्ब वायट दिसतलें आशिल्लें. कारण आंब्याचेर––त्या तोरांचेर सगल्यांपरस चड हक्क विनुलो आशिल्लो. विनू अनंताल्या दोळ्यांत पळयत जाप आयकुपाक रावलो.

"ना." अनंतान म्हळें. आनी एक व्हडलो हुसकारो विनुल्या हड्ड्यां-तल्यान भायर सुटलो.

"अनंत, यो खेळपाक––"

"विनू, यो आमी खेळुंया."

हेर भुरग्यांक तांगेल्या उलवण्याचो वाज आयिल्लो.

"राव, रे, भाऊ, म्हाका खबर सांग –– तोरांची" विनून भुरग्यांचे सभावीक उमळशिकेन म्हळें.

"आंवंय! तोरांची आनी कसली खबर? आमगेल्या बाजारांत 'घे' म्हुण येतात." मीरान सादेपणान म्हळें.

अनंताक विनुलें मन समजतालें. जेन्ना पयल्याच दिसा ताणें तोरां पळयिल्लीं तेन्ना ताकाय तशेंच जाल्लें. ना ना म्हुण वांझ थारा-यिल्ल्या त्या आंब्याक अंदू तोरां लागिल्लीं. आनी घरांतल्या सगल्या इतल्यांनी म्हणिल्लें,–– "विनू हांगा आसता जाल्यार खोशी जातलो आशिल्लो."

अनंताक मीरालें उलवणें आयकून वायट दिसलें. ताणें समजायलें "तशें न्हीं, गो, मीरा! बाजारांतलीं तोरां आनी हीं तोरां एकां न्हीं."

वाबून —— व्हडल्या मामाल्या व्हडल्या चल्यान म्हळें, "तशें जाल्यार फाटल्यान ओ ऽ पळय आंबो आसा. ताकाय लागल्यांत तोरां. काडुंया ?"

विनूक तांचो राग आयलो. आमकां उलोवपाकच दिनात. ताणें रागान म्हळें. "आसूं आसूं. लोकांल्या आंब्याचीं तोरां आमी चोरून खायनात."

तागेलीं उतरां मामेभावंडांक मातशीं तीख लागलीं. ताणीं म्हळें, "आमी म्हुण खंय तोरां सोदूंक भोंवतात तर —— तोरां देखनाशिल्ल्याभशेन!" निमाण्या दोन उतरांचेर नेट दिल्ल्यान विनूक तीं दोनूय उतरां काळजांत म्हालो तोंपिल्लेवरी दुखलीं. तागेल्या दोनूय दोळ्यांनीं उदक भल्लें. दुकांक लिपोवन ताणें सडसडीत सगल्यांक तोडून उडयलीं, "बरें आसा तर ! पर्थून केन्नांच येवंचे ना हांगा —— आमी". निमाणें 'आमी' हें उतर हाडून ताणें अनंताकूय आपणांले पंगतीक बसयिल्लो. इतल्यान मामी थंय पावली. विनुले भरिल्ले दोळे तिगेले नदरेंतल्यान सुटले नात. तिणें बेगीबेगीन म्हऱ्यांत येवन विचाल्लें, "बा ऽ ब, विनू ! कितें जालें ? कोणें कितें केलें ?"

विनून येदो वेळ आडावन दवरिल्लीं दुकां सळ्ळ करून सकयल देंवलीं. ताका हुंडके फुटले. तें पळोवन अनंतान म्हळें, "आमी आमगेल्या तोरांच्यो खबरो करताले. म्हुण हीं सगलीं आमकां चाळयतात."

मामीन सगल्यांचेर एक धेंगसो घालो. भुरगीं सगलीं चौकार धांवलीं. मामी भितर गेली. आनी तितलेपुरतें तरी अनंत – विनुलें संभाषण तुटलें तें तुटलेंच.

विनुल्या घराच्या पोरसांत अेक आंबो आसा. कितलीं वर्सां जालीं ताका तोर धरना. सगल्यांनीं त्या आंब्याक 'वांझ' म्हुण कुळांत काडिल्लो. तसो चंवरता, फुलता . . . . . पुण तोर धरना.

विनूक ल्हानपणांसावन त्या आंब्याची ओड. आनी ती ओड ह्या ना त्या कारणाक लागून वाडत गेल्ली.

दोन वर्सां सुमार जातलीं. विनू आनी अनंत शाळेंतसावन घरा येताले. वाटेर जुआंव भाटकारालो अेक व्हडलो आंबो लागता. त्या वर्सा तो फळिल्लो.

तोरांचे घोंस लांबताले. येतल्या वतल्याच्या तोंडाक उदक सुटलेबगर रावनाशिल्लें. विनुकूय अेक तोर खायन दिसलें. ताणें अनंताक म्हळें., "भाऊ, आमी अेक तोर खावंया ? "

"नाका. लोकांलें तें झाड." खरें म्हळयार अनंताल्याय तोंडाक उदक सुटिल्लें. पुण ताणें मन मारपाचो येत्न केल्लो.

"चड नाका. एकूच ! अर्द–अर्द खावंया. कोण पळयना. तूं फातर मार." विनुल्या उतरांनीं अनंतालो तोल सुटलो. अनंतान दप्तर विनुकडेन दिलें आनी फातर माल्लो. लागलोच ना. आनीक एक माल्लो. तोय चुकलो. विनू फातर सोदूंक लागलो. म्हणसर जुआंव तेवटेन पावलो. अनंताक फातर मारता-सतनां ताणे पळयलो. आनी दोगांयकूय ताणे बरेच तापोवन काडले. दोगूय भियेले. वैल्यान जुआंवान म्हळें. "रावाय तुमी. सांगता पायक तुमगेल्या ! तोरां जायीं तुमका न्हूं ? "

घरांत येनाफुडें विनून रडत रडत आईक खरें ते सांगलें. आईन कांय म्हळें ना. पुण 'पर्थून दुसऱ्याल्या आंब्याचेर फातर मारनाकात' अशें सांगून शिटकायलो. दुसऱ्याल्या आंब्याचेर फातर मारचे न्हीं. म्हळयार आमगेल्या आंब्याचेर माल्ल्यार जाता अशें जालें ना ? आमगेल्याय पोरसांत आंब्याचें झाड आसा. पुण——

"आई, आमगेल्या आंब्याक तोरां जायनात कित्याक गे ?"

"आरे तो वांझ आंबो" आवयन सांगलें.

" ताका तोरां जावचीं नात गे ? " आईचे फाटल्याफुडल्यान करीत विनून विचाल्लें.

" आता हांव कितें सांगूं ? जातीत अेखादरे फाटीफुडें."

ते राती विनून परवड बी म्हणून जातकीर देवाक पायां पडटा आसतनां आवयन सांगिल्लें तेप्रमाण 'सगल्यांचें बरें कर' हाजे भायर आनीकूय अेक मागणें केल्लें, " आनी देवा, आमगेल्या आंब्याक तोरां लागुं दी."

रोखडेंच दुसऱ्या दिसा ताणें वचून झाडाक पळयिल्लें पुण तोरां लागूंक नाशिल्लीं.

* * * *

पणजेसावन घरा येतना वाटेर विनून अनंताक आनी बाबाक प्रस्नार प्रस्न विचारून नाकापुरो केलें. घरा पावनाफुडें विनू तुबकांतल्यान सुटिल्ले गुळयेवरी धांवट आब्यांमुळांत गेलो. तकली वरशी करून ताणे वैर पळयलें. ताका तोरा दिसलींच नात.आपुण नासतनां कोणेय पाडून बी व्हेलींनात मू ? असो दुभाव तागेल्या मनांत आयले बगर रावलो ना. तो तकली वरशी करून, दोळे बारीक करून पळयता आसतनाच फाटल्यानसून अनंत आयलो आनी ताणें " अें ऽ पळय, अें ऽ पळय ! पळयलें ? " अशें करून पानांच्या आड लिपिल्लो बारीक बारीक तोरांचो एक घोंस विनूक दाखयलो. इतल्यान विनुली भैणुली–बेन पोरसांत आयलें.

"ए ऽए ऽभाऊ ऽ आईक सांगूं ? बोट दाखयनात ! तोरां कुसतलीं."

भैणीचें नांव बरें मंदा अशें आशिल्लें. पुण घरांत ताका सगलींच 'बेन' म्हुण उलो मारतालीं. बेनालीं उतरां आयकून अनंतान हात बेगबेगीन फाटीं काडलो आनी " थुमेकाल " म्हळें.

म्हण्टसर विनून तोरां पळयिल्लीं. तीं इल्लींइल्लीं पयलीं वयलीं टवटवीत आमले तोरां पळोवन विनूक भोव म्हळयार भोवच आनंद जालो. आंगावैल्या नव्या न्हेसणाची पर्वा करीनासतनां ताणें आंब्या-झाडाच्या खरखरीत आंगाक आपणांलो मोव-मोव पोलो घांसलो.

बल्कांवावैल्यान आई आनी बाबा भुरग्यांल्या भुरगेपणांक हांसतालीं.

सांजवेळ जाता म्हण्टसर उणें म्हळयार पंदरा फावटी तरी विनू आंब्यामुळां वचून आयलो. रातीकडेन सदांचेपरस बेगीन जेवलो. आनी सदां रातचो मुतूंक अेकलो भायर वचपाक भिवपी विनू अेकलोच भायर आंब्यामुळांत वचून मुतून आयलो. विनू घरा आयिल्ल्यान अनंताक आनी बेनाकूय आनंद जाल्लो. रातचीं जाण्टीं न्हिदपाचीं जालीं तरी भुरगीं जागींच आशिल्लीं. निमाणें बाबालो घेंगसो पडलो तेन्ना तांणीं तोंड धांपलें.

रातीकडेन बरे ऽ राती आई जाग कित्याक आयली काय म्हुण पळय जाल्यार विनू सपनेला ! सपनांत म्हण्टा कसो -'अं ऽ ! म्हगेलो आंबो तो ! तोरां म्हगेलीं......'

तो आंबो आपणांलो म्हणपाचो विनूक पुराय हक्क आशिल्लो. ताणेंच ताजी सेवा केल्ली. कोणालें तरी आयकून एक दीस आपणाली पोरणी जोत्यांपार आंब्यामुळांत व्हरून पुरून दवरिल्ली. कोणेंतरी सांगलें म्हुण तो सद्दां सांजचो एकेक तांबयो उदक त्या आंब्यामुळांत व्हरून ओततालो. आनी अेक दीस तर ताणें विपरीतच केल्लें. पोरुंची गजाल ! विनुली मावशी आयिल्ली. तिणें विनुले आईक सांगिल्लें "आगो, तो आंबो वांझ आसचो ना. लागतलो तो. तूं अशें कर गिराणादिसा गिराणाचो भार आसतनां नागडया कुंवाऱ्या भुरग्याक त्या झाडा-चेर तीन फावट बडी मारपाक सांग. कितेंय दोश आसल्यार वतात खंय." आनी आईन "आं" म्हुण सांगिल्लें. विनू ती घट याद धरून राविल्लो. गिराणादिसा ताणेंच आईक याद केल्ली. आईन विचारिल्लें, "आरे, विनू, तूं मारशी मरे !"

आनी मात अनमननासतना ताणे "हय" म्हुण सांगिल्लें.

लज शी ! आठ वर्सांचो भुरगो नागडो रावता केन्ना ? पुण विनून आपणाल्या आंब्यापसत लज कुशीक दवल्ली. आईन सांगिल्लें, "आंबे जाय आसत तर लज कुशीक दवर." आनी विनून लज कुशीक दवल्ली. गिराणाचो भार जालो. विनून अळंग आंगाचीं काडलीं. आईन दिल्ली व्हडली कोंडयाबडी घेतली. आंब्याच्या, मुळांत वचून तीन फावटी ताज्या आंगार बडी माल्ली आनी धांव्वट परतो येवन आंगाचीं घालीं.

आतां ताका खात्री आशिल्ली आंबो लागतलोच्च म्हुण. गिराण सुटलें. सगलीं न्हालीं. रातीकडेन विनून देवाकडेन मागलें, "सगल्यांचें बरें कर आनी तूं खरो आसल्यार आमगेल्या आंब्याक तोरां लाय--"

आतां सद्दां सकाळीं उठून विनू पयलो आंब्यामुळांत वतालो. ताजो तो नेमच जाल्लो. खंयूय तोरां पडल्यांत जाल्यार पळोवप. पुण आठ दीस मेरेन ताका फकत चंवरच पडिल्लो दिश्टी पडलो. आनी एक दीस विनूक एक बारीक तोर पडिल्लें दिश्टी पडलें. विनून तें उबाल्लें. धांवट आवयसरीं गेलो. आवयन सांगलें, " आरे विनू तें अजून ल्हान आसा खूब. झाडाचें बी काडलें ना मरे ?"

"ना, आई ! सकयल पडिल्लें. हांव खावं ? "

आई हांसली. 'खा.' तिणे म्हळें. विनून तें बोरायेदें तोर फोडलें. पयलो अधिकार आपणांलो हें ताणे सगल्यांक दाखोवन दिल्लें. पुण आतां तोंडांत उडोवपा वेळार ताका याद जाली.

"आई, तूं खा पयलीं" आई हांसली, "हाणीं खावचे पयलीं हांव खातां रे पिशा?"

विनू बाबासरीं धांवलो. "तुमी खातकीर आमकां पावलें" बाबान सांगलें. विनून मागीर तीन कुडके केले. व्हडलो अनंताक दिलो. एक बेनाक दिलो. आनी धाकलो आपणें खालो.

तोरां व्हड जावपाक लागलीं. एक दीस अनंतान म्हळें, "विनू, आमी तोरां काडुंया? मीठ मिरसांग लावन खावपाक बरीं ऽ लागतलीं."

"नाका" तोंडाक आयिल्लें उदक गिळीत विनून आंब्याचो भाटकार जाल्लेवरी म्हळें.

"एकच काडूंया. हें पळय, म्हजेकडेन मीठ आसा." मुठींतलें मीठ दाखोवन अनंतान म्हळें. विनू वगीच रावलो. एक तोर काडलें म्हुण कितें जाता? झाडाचेर तर खोंटांनीच तोरां आसात.

अनंतान फातर माल्लो. झाडार तोरां कुचकुचीत भरिल्लीं. खंयूय फातर बसल्यार तोर पडुंकच जाय.

आईन पळयलें—तिगांय मेळण तोर खातालीं. ती भायर आयली. विनूक आपोवन तिणें विचाल्लें. "विनू, तुका तोर जाय काय आंबे जाय?"

"आंबे!" विनून जाप दिली.

"हय, मरे? आतां तुमी तोरां पाडलीं जाल्यार फुडें आंबे कशे मेळटले?"

विनूक पटलें. आईन फुडें सांगलें.

"विनू, हो आंबो असलो तसलो न्हय. हो मानकुराद आंबो! सगल्या आंब्यांचो राजा! सगल्या आंब्यांत हो चड गोड! तेन्ना कोणूय तोरां पाडीत म्हुण राखपाचें सोडून, तुमीच पाडटात मरे?"

आई सदांच थोडें उलयता. पुण जोखून उलयता. विनून थारायलें. ह्याफुडें आमलेतोरांक हात लेगीत लावप ना. बद्द आंबे! मानकुराद आंबे! गोडगोड आंबे!

आंबो तोरांच्या घोसांनीं सामको कुचकुचीत भरिल्लो. एक दीस विनून अनंताक लागींच्या खांद्यार चडोवन झाडाक जोतें बांदून घेतलें. हय! दिश्ट बिश्ट जाली जाल्यार!

तोरां व्हड जावपाक लागलीं. काथो भल्लो. तोरां ल्हान आशिल्लीं तेन्ना भुरग्यांक तीं केदीं आसात तें सांगपाक सोपें पडटालें. पैर बाबान घरा येनाफुडें विनूक आपयलो आनी विनुलो एक हात घट धरून विचाल्लें, "विनू, तोरां केदीं जाल्यांत रे?" विनून हातान दाखोवपाचो येत्न केलो. पुण जमलें ना. निमाणें पांचूय बोटां उबीं केलीं तरी जालें ना. दुसरो हात सोडोवन मागीर ताणें म्हळें, "येदीं!"

एक दीस मारगावैल्यान वतल्या भुरग्यान ल्हवूच तोरांचेर एक फातर माल्लो. फातराचो "धपच्य" करून आवाज येनाफुडें विनू धांवलो भायर. विनूक पळयनाफुडें त्या भुरग्यान कूस माल्ली म्हुण सुटलो.

परीक्षा लागीं पावली. अर्द लक्ष आंब्याचेर दवरुनच विनून अभ्यास केलो. परीक्षा जाली. पुण विनू खेळूंक गेलो ना. मामागेर वचपाची तर ताका यादच जाली ना.

विनू पर्थूनपर्थून आईक विचारतालो, "आई, आंबे केन्नां पिकतले गे?"

"आरें, दिश्टी पडटले पिकतकीर."

"आई, पिकतकीर काडप, काय काडून पिकवप गे?" विनुलो प्रस्न.

"बाबाक विचार."

विनू जाणा. बाबाक वेळच नासता.

एक दीस बाबान जेवतां जेवतां आईक सांगलें।

"मडगांवां बाजारांत मानकुराद पावलो."

"इतले बेगीन ?"

"बेगीन खंयचे ? आतां भार जावपाचो जालो."

मानकुराद आंबो बाजारांत आयलो. तशें जाल्यार आमगेलोय आंबो तयार जाला आसतलो. विनूक दिसलें बाबाक विचारचें आंबे केन्ना काडुंया काय म्हुण. पुण बाबा बेगबेगीन जेवलो आनी भायर सरून गेलो.

ते राती विनूक सपन पडलें. विनूले कुडींत आंब्यांच्यो राशी पडल्यात. आंबे म्हुण केदे ? येदे ! रंगान सामके हळडुवेच—सामके खा खा म्हण्टाले. विनू वचून सगल्यांक आपयतासो. बाबा घरांत नासता. आईशी येना. विनू, अनंत आनी बेन आंबे खावपाक वतातशीं. विनू मुखार. आवयस् ! कितले आंबे ! हज्जारांनी—आनी विनू आंबो काडपाक हात घालतासो. अितल्यान फोंस्स करून एक सोरप फडो उबारता. कीं ऽ ऽ ऽ . . .करून किळांच मारून विनू फाटीं सरता.

किळांच आयकून आई जागी जाली. पळय जाल्यार विनू हुमेन चिप्प थपथपला. ताका आयिल्ली हूम पुसून आईन ताका वेंगेंत घेतलो. आनी थोडयावेळान तिजोय दोळो लागलो.

रातचें सपन विनू सकाळीं विसल्लो. सकाळीं उठून विनू सदांचे-भशेन आंब्या मुळांत गेलो. आनी—आंबो ! पिकिल्लो आंबो ! पयलोव-यलो आंबो ! मुळांतच पडिल्लो. विनू धांव्वट आंबो घेवन आईसरीं आयलो. आईकूय आंबो पळोवन आनंद जालो. तिणे विनुच्या बाबाक दाखयलो. "आब्बा ! पिकपाक लागले तर !" अशें म्हुण बाबा च्या पियेवन भायर सरून गेलो.

"विनू, हो पयलोच आंबो, न्हीं ? हो देवाम्हऱ्यांत दवरपाचो, आं ! नाजाल्यार देव आनीक दिवचो ना." आईल्या उलवण्याक विनून रोखडीच तकली हालयली.

सांजवेळा भायर कोण तरी आयलो. मोटोच. काळोच. लांब ! केदोवेळ भायल्यान रावन तो आंब्याकच निरखितालो. बल्कांवाचेर रावन विनून ताका पळयलो. विनूक तो आवडलोना. विनूक भिरांत दिसली— हो आपणांल्या आंब्याक दिश्ट लायत म्हुण. विनू सपणां देवन भायर आयलो. बेठीच आंब्यामुळांत एक पासय माल्ली. मागीर त्या दादल्या म्हऱ्यांत वचून ताणे विचाल्लें, "कितें ? कोण जाय ? बाबा घरा ना." त्या दादल्यान अपुर्बाय केल्लेवरी विनुच्या पोल्याक हात लायलो आनी विचाल्लें, "हो आंबो तुमगेलो ?"

"हय. म्हगेलो." विनून आपणांलो अधिकार दाखोवपाक 'म्हगेलो' म्हणिल्लें.

"अशें ऽ" अितलेंच उलोवन तो दादलो गेलो.

रातीकडेन आई आनी बाबा कितें उलयलीं कोण जाणा ! आई रातीकडेन विनूक म्हऱ्यांत कुशींत घेवन न्हिदली. तिज्या पोल्यांवैल्या दुकांनीं विनू उठलोना. सकाळफुडें मात विनू उठलो तेन्नां भायर बोवाळ चलिल्लो. आंब्यामुळांत कालचो तो दादलो आनी हेर लोक एकठांय जाल्ले. कोण आंब्यार चडिल्ले. खोंटल्यांनी आंबे देंवयताले. सकयले लोक खोंटले सोडोवन ते साकांनीं ओतताले. विनूक तिडक माल्ली. म्हाका सांगीनासतनां——

"बाबा" भितर वचून ताणें बाबाक सांगलें, "भायर कोण आंबे काडटा."

"हय. ताणें केला तो आंबो !"

"म्हणचे ?" बाबाक थंड आशिल्लो पळोवन विनू अजापलो.

"म्हणचे हे सगले आंबे ताणें विकते घेतल्यात——म्हजे कडल्यान" निमाणें उतर आयकून विनू समजलो. तागेले बाळबुद्देक समजुपाअितलें समजलो.

बाबा कामाक गेलो. विनू च्या पिलो ना. आईन आग्रो केलो तेन्ना निखटी च्या पिलो. अनंत आनी बेन अिल्लीशीं तोंडां करून बशिल्लीं. कोण कोणाकडेन उलयनाशिल्लो.

दनपरां तो मोटेले काळेलो दादलो घरांत भितर आयलो. एक खोंटलेभर व्हडलीं तोरां हाडिल्लीं ताणें बराबर. विनूक अकस्मात याद जाली. आंब्या राशीर बशिल्लो सोरोप असोच दिसतालो! असोच!

त्या दादल्यान तीं तोरां बल्कांवाचेर ओतलीं. "येयात, भुरग्यांनो! घेयात, हीं तुमकां ––"

विनू उठलो. भिरकेंत ताणें म्हळें, "आमकां नाकात तीं. तूंच व्हर. तूंच व्हर. सगलीं व्हर. सगलीं व्हर"––आनी हड्डें फुटून रडूंक लागलो. अितल्यान आई येवन ताका भितर घेवन गेली.

म्हण्टसर मामा आयलो. भयणीन अकस्मात आपोवपाक कित्याक घाडलो तें ताका रोखडेंच कळ्ळें.

मामाबराबर वचपाक विनू भायर सल्लो आनी अनंताकलेगीत भरून आयलें. बेन तर रडटालेंच. आईन म्हळें, "बाब, तूं तिगांकूय व्हर. तांचीं हीं बाविल्लीं तोंडां पळोवपाक म्हज्यान जावपार ना. आजोळा उल्ल्यारच तीं विसरपाक पावतलीं."

* * *

# बोमाडे

कायतानाचें काजार ! दारांत टॅक्सी थारावन मिनीन बेलाक घेवन देंवलो. काजराहॉल तरेकतरांच्या फोली–बंदेरांनी न्हेसयिल्लो. मिनून बेलाकडेन पळयलें. लाइट ब्लू रंगाचो दांसाक घालतात तसलो लांब गाउन ताजे शिडशिडीत आंगलोटीक भोव सोबतालो. गुलाब शेंवतें कशें बेलालें मुखामळ जिस्ताजिस्त पोव आनी लिप्स्टीक लायिल्ल्यान बेस फुलिल्लें. आपणालो काजरावेळार शिंविल्लो कोट आपणाक खूब सोबून दिसता तें मिनू जाणा आसलो

काजरा हॉलांत पावनाफुडें धा एक जाणांनी तांकां घेराव घालो. चेडयां परस चेडवांच चड आशिल्लीं तातूंत.

"हा ऽ य मिनू हँडसम् ! "

चेडवां तर मिनूक चडच घरटलीं अशें बेलाक दिसलें.

फकाणांक हुंवार आयलो.

न्हवऱ्या व्हंकलेन केक कापनाफुडें सगले फापसले आनी मिनुची अळंग सुटका जाली.

टोस्ट जालो. वाइन वांटली. कालसी किणकिणल्यो. न्हवऱ्या व्हकलेक बरें मागून सगल्यांनीं 'साऊद' केली.

न्हवऱ्याची धाकली भयण — फुलांबाय आयलें. फाटोफाट ड्रिंक्साचो ट्रे हातांत घेवन वेटर आयलो.

"हॅलो मिनीन, व्हॉट विल यू हॅव? व्हिस्की?"

"जाता."

"यस् मॅडम?"

बेलान नाका म्हळें.

"घे गो." मिनून म्हळें.

"आसूं."

"नो मॅडम! कितेंय तरी घेवंकच जाय. बिअर?"

"घे गो...." मिनून पर्थून आग्रो केलो. आनी बेलान ग्लास घेतलो.

"तूं जाणा, हांव भायर केन्नाच घेना!" मिनुच्या कानांत बेला फुतफुतलें.

"जावं गो! आतां संवय करूंक जाय." आनी मिनून व्हिस्कीचो घोंट माल्लो.

देड म्हयन्या आदीं मिनू बेलाक घेवन हनीमून मनवपाक बेंगलोरा गेल्लो. मिनू तोंडान सदळ. पुण बेला उलोवपाक फाटीं. तितल्याक तितलें. मिनूक दिशिल्लें चौगांमदीं तें लजेता जातलें. पुण हांगा तीं दोगांच आसलीं तरी तेंच!

"आगो, उलय मुगो!"

"कितें उलवं?"

"वरभर जालें, हांव खांडीभर उलयलों. तूं इदें तरी उलय. म्हाका उलवपाची उबगण येयली तरी तूं वगी!"

"मिनू, म्हजो सभावच असो. तूं उलय, म्हाका उबगण येना."

आनी मागीर तीं बारांत गेल्लीं.

"तूं पी मिनू, हांव पियेना..."

"जावं गो, बिअर घेतली म्हुण कांय जायना."

"नाका मिनू! प्लीज! तूं पी. हांव 'कोल्ड' घेतां."

पुण मिनून ऑर्डर दिलीच.

बेलान तोंड धांपून ग्लास तोंडाक लायलो.

"तूं केन्नाच पियेलें ना म्हुण सांगूं नाका म्हाका."

बेलान मुमुरखें हांसून तागेल्या उलवण्याक तकली हालयली.

"बिअर पियेवप म्हळयार सोरो पियेवप न्हू. बेला, बिअर इज जस्ट लाइक वॉटर! न्हू?"

बेलान पर्थून हांसून हयकार दिलो.

"तूं म्हाका बेबदो समजुशी! पुण म्हगेली फेवरेट व्हिस्की! केन्नाय राउंडाक बसलों आमिगांबराबर जाल्यार म्हाका व्हिस्कीच लागता. बिअर इज टू लाइट! नॉट अ ड्रींक अॅट ऑल!"

"यू आर राइट!" बेलान तोंड उकतें केलें.

"तुवें केन्ना व्हिस्की माल्या?"

"नारे बाबा! बिअरच म्हाका लागता. व्हिस्की खंयची?"

"रिअली? बिअर तुका कीक दिता?"

"कीक न्हीं? पुण इट अफॅक्टस् मी..."

मिनून दोळे मोटे करून भुजां उबारून फाफुडलीं, " सरप्रायजींग..."

बिअर सोंपली. दुसरी आयली. बेलाक फाटली याद आयली.

"हांव पयलेच फावटी पियेलें तें बोमायीं गेल्लें तेन्नां. जातलीं चार वर्सां सुमार. अंकलान बिअर दिली. हांव पियेलें. आनी मागीर... बेलाक हांसो येवपाक लागलो. तें मोटयान हांसलें. हांसतां हांसतां सांगूंक लागलें– "मागीर हांवें सगल्यां सामकार कांतार लेगीत केलें. बिअर लागली मिस्ता." हांसून हांसून दोळ्यां उदक आयलें. मिनीनय हांसलो.

आयल्या पयल्या मेजावैले लोक पळोवपाक लागले. पुण मिनूचें लक्ष आसलें बेलाचेर. आयज बेला पयलेच खेपेक हे भाशेन हांशिल्लें, उलयिल्लें. हांसलें कि कितलें सोबीत दिसता बेला! उलयता तें तर कान दिवन आयकतच रावचें....

बारांतसून हॉटेलांत परतसर बेला उलयत आसलें. ती रात तांणीं सदचे परस बरी मनयली.

"मिनू, रातीं तूं उबगलो ना मरे म्हजेर?" सकाळीं उठटनांच बेलान मिनुच्या कानांत विचाल्लें.

"ना गो! कित्याक विचारता तूं अशें?"

बेला लजेलें. अनमनलें. मागीर उलयलें--

"म्हाका बिअर अेक्साइट करता. हांव खूब उलयतां."

"सो वॉट? तूं कांय चड उलयलें ना. फाल्स उलयलें ना. You were perfectly normal."

"थँक यू! पुण....तूं खरें सांगता? काय म्हाका बरें दिसपाक--"

"ना गो! आय मीन इट!" बेलाक म्हऱ्यांत घेत मिनून म्हळें.

"तशें जाल्यार–" मिनूक धुकलीत ताणें विचाल्लें, --"तूं रातीं कांयच उलयलोना कित्याक? फकत हांवच उलयतालें--"

"आनी हांव आयकतालों."

पुण बेलालें समाधान जालें ना. मागीर मिनूनच ताका समजायलें.

"तुका खरें सांगूं? पियेवंक बसतकीर म्हज्यान उलवं नज."

"कित्याक?"

"For no reason! हरशीं म्हाका चड उलोवपाची सवंय. पुण ड्रींक घेना फुडें म्हाका उलयन दिसना."

"पुण तूं तर व्हिस्की पियेवेपी. मागीर बिअर–"

"तशें ना तें. बिअर म्हाका लागता अशें म्हणूंक ना हांवें. व्हिस्की लेगीत म्हाका सोंपेपणी लागना. पुण कसलेंय ड्रींक जावं--पोटांत गेलें कि म्हजी जीब आंवुळटा. तकली ताळ्यार आसता. पुण...."

"But why!"

"काल तुका बिअर लागिल्ली?"

"ना–"

"पुण तूं उलोवपाक लागलें!"

"........"

"तशेंच तें. ताका कारण लागना—"

ते राती पर्थून तीं बारांत गेल्लीं. बेला उत्तेजीत जावन उलयिल्लें. मिनून मज घेवन सगलें आयकल्लें आनी रातचीं दोगांय चान्यांत न्हाल्लीं.

बॅण्ड वाजूंक लागलें. व्हिस्की सोंपोवन मिनू उठलो.

"सोंपय मुगो !"

बेलान दोनचार घोंट सडसडीत माल्ले. उरिल्ली बिअर सांडली. दोगांय दांसाक देंवलीं.

"मिनू, बेगीन या मरे आमी परतीं ?"

"चवंया..."

"पिक्चराक या म्हणटालो न्हू तूं ?"

"हिंगा मूड लागलो ना जाल्यार या म्हणिल्लें हांवें !"

"तुका बरी कंपनी मेळ्ळी जाल्यार तूं बायलेक लेगीत विसरशी." बेलान फकाणां करून ल्हवूच ताज्या खांदाक चिमटो काडलो.

पयलो राउंड सोंपलो. सिर्वीस आयली. व्हिस्कीचो ग्लास उबारून मिनून बेलाक बिअरीचो घेवपाक लायलो. आग्नेल, मार्टीन, जोसेफ, हांच्या सांगातान खबरो फुलल्यो. बॅण्ड वाजूंक लागलें. मिनूक दांसाक उठनशें दिसनाशिल्लें. आग्नेल बेलाक घेवन नाचूंक लागलो.

दांस सोंपनाफुडें बेला थंयच रावलें. हांसत किटकिटत. आग्नेल, पीटर हांचेच मदीं. मिनू केदोवेळ रावलो. मागीर आपुणच उठून बेला-म्हऱ्यांत गेलो.

"Look, he's come !" आग्नेलान म्हळें.

"जाणा मरे मिनू, आमी तुगेले बायलेक सांगताले, इतलो तेंप मिनू चेडवां फाटल्यान भोंवलो. हेजे फुडें तुका राख म्हुण."

सगळे हांसले. बेला लेगीत ! मिनू सांगूंक सोदतालो...

"ते बरें आसा. पुण तूं आतां कित्याक रे म्हगेले बायले फाटल्यान ! " पुण व्हिस्कीन परिणाम केल्ल्यान उतर फुटलें ना.

"Don't Worry ! हांव तेका तेसली कामां केल्यार सोंपेपणी सोडपार ना ! " बेलान म्हळें आनी पर्थून हांसो घसघसलो.

बेलाक लागलां काय ! ह्या विचारान मिनूक सकयल—वयर जालें.

इतल्यान 'चतराय' आयली. नाच सुरु जावचो जालो. आतां बेलाक सांबाळूंक जाय....

मदींच कातारीनान मिनूक हटकिलो. इतल्यान दांस सुरू जालो. मिनू फटवलो. बेलाक घेवन तिसरोच कोणतरी नाचूंक लागलो. आनी कातारीनाक घेवन मिनूक नाचचें पडलें.

कातारीन तशें बरें नाचपी. पुण मिनुलें लक्ष आसलें बेलाचेर. नाचतां नाचतां कातारीनान मिनूक चिमटो काडलो. आनी जिस्त तेन्नाच बेलाली नदर मिनुचेर पडली. चिमटो येनाफुडें मिनून आंग काडलें.

"What's wrong मिनू ? खंय चयता ? बायलेक घेवन जाल्यार बायलेकच घेवन नाचचें आसलें ! "

मिनूक लज जाली. ताणें उलोवपाक तोंड उगडलें. पुण उतर फुटलें ना.

"आपणाली बायल दुसऱ्या बराबर नाचता तेन्ना हे भाशेन चवप बरें न्ही, मिनू ! "

मिनू चोरा भाशेन हांसलो आनी मज घेवन नाचूंक लागलो.

नाच सोंपलो तेन्ना मिनूक केन्ना काय वचून बसल्यार पुरो जाल्लें.

काउंटरावैली व्हिस्की घेवन मिनू कुशीन वचून बसलो. बेला येवन म्हऱ्यांत बसलेंशें दिसलें म्हुण पळय जाल्यार कातारीन ! घोंट घेतिल्लो हुस्तून गेलो. दोळ्यांत लेगीत उदक आयलें. कातारीनान भीड कुशीक दवरून मिनूक फाटीर थापटिलो.

"बायलेन उगडास काडलो. देखून सुतरें गेलें तुका ! " मिनूक हांसू आयलें. ताणें हेवटेन, तेवटेन पळयलें.

"तीऽ ...चय बायल तुगेली." कातारीनूय खब फकाणेर.

बेला पैल्यान रावन खबरो मारतालें. हुस्तवारें गेलें ते पळयलांच आसतलें ताणें. तरीकूय—

बेलालें तें हांसप, किटकिटप मिनुच्यान पळोवं नज जालें......

उरिल्ली व्हिस्की तशीच सांडून मिनू उठलो. बेलासरीं वचून ताणें म्हळें—"या, न्हू ?"

"जालें ?"

"......" मिनून तकली हालयली.

"आतां आमकां पिक्चर मेळटा ? आसूं आतां. Enjoy yourself."

"Shut up ! Let's go !" मिनूक म्हणपाचें आसलें. पुण तो तशें उलयलो ना.

"पिक्चराक नाका. घरा या. I'm out of mood !"

"Oh !" इतलेंच उलोवन बेला ताजेबराबर भायर सल्लें वाटेर कोणच उलयलीं नात. मिनून बळयां तोंड धांपून घेतिल्लें. वाटेर लोकांक फुक्याचो शो करून दाखोवपाची ताका इत्सा नाशिल्ली. घरा पावनाफुडें मात बेलाक सोडप ना. सगलें वयर काडूंकच जाय. बेंगलोरा आसतना हाका हांवें पियेवपाचो आग्रो केल्लो तो हें म्हजेकडेन मोगांत येता म्हुण. हांगा आतां गांवांत पियेवन हें लोकांकडेन किटकिटूंक सोदता शी ! म्हाका हे उपकरचें ना.

इलीइली फूक भरून बोमाडो फुलोवचो तसो तागेलो रागाचो बोमाडो तट्टटीत फुगिल्लो.

बेला वग्गी आशिल्लें. ताणेंय एका उतरान मिनूक विचाल्लें ना तो वगी कित्याक तें ? मिनूक चडच तिडक माल्ली. दांसाक वतना विचा-रप ना तें ना ! हुस्तवारें गेल्यार धांवट येवप ना तें ना ! आनी आतां वाटभर हांव तिडकून वगी रावलां तरीकूय हाणें खबर घेवप ना ? बोमाडो आतां तट्टूक लागलो.

घरांत पावनाफुडें दोगांय कुडींत गेलीं. मिनून टायाची गांठ सदळ केली. पुण सूट देंवयलो ना. तसोच कदेलाचेर बसलो. बेलान

केंसांक बांदिल्लो हेअर बॅण्ड सोडयलो. आनी ताणें गाउनाचे झीपीक हात घालो.

मिनुच्यान आतां सोंसूं नज जालें. येदें व्हडलें पिकसांव घेवन हांव हांगा बसलां आनी हें सुशेगाद...

...बोमाडो फोडुंकच जाय.

"बेला" मिनून मोटयान उलो मारपाचो केल्लो. पुण आवाज मोटोसो फुटलो ना.

बेला धुंवलें. मिनू सामकार आयलें. मिनू उतरां येवजुपाक लागलो.

"मिनू ऽ" बेलान सणसणीत उलो मारून म्हळें,

"तूं इतलो मीनमाइंडेड आसत म्हुण धरूंक नासलें हांवें. काजरा बायले सामकार हें अशें! म्हजे असवडीं कितें करतलो देव जाणा! भितर सरतना तुका चेडवांनी वेंग माल्ली. धांवडावन घालूंक कळनासलें तुका? कोणें फुलांबायेन सोरो घे म्हळो. घेतलो. म्हाकाय आनी घे म्हण्टा? आग्नेल सांगतालो—तुका संवंयच म्हुण चेडवांक घेवन भोंवपाची. पुण तुका सांगतां—म्हाका येसो ऽ उपकरना. तूं काजारी. तुका सोबना. हुस्तवारें गेल्यार म्हाका उलो मार. कोत्रिना बित्रिनाक फाटी वैल्यान हात भोंवडावपाक सांगल्यार हांव हात आनी फाट दोनूय मोडून उडयतलीं...."

बेला रागान थरथरतालें...तागेलो बोमाडो फुटिल्लो. आनी मिनुलो—तांतली फुंकच सुटून गेल्ली. फुलयिल्ल्या बोमाडयांतली फूक वतकच तो आदलेपरस चड मोव पडटा. तशी आवतिकाय मिनुची जाली. आनी मिनू तसोच न्हिदलो.

"मिनू, रातीं तूं उबगलो ना मरे म्हजेर?" सकाळी उठटनांच बेलान मिनुच्या कानांत विचाल्लें.

कांय वेळ येवजून मिनून म्हळें,

"ना गो!"

* * *

## रितें जिणें

'नर्स, प्लीज, आयज नाका...'

बल्बांतलें वखद सिरिंजांत ओडीत नर्स हांसता.

'I say, I don't want!' तो तापता.

नर्स थंडसाणीन सिरींज भरता. सूय सारकी करता. पिच्च करून इलें वखद भायर मोखता. आनी बाज्जेलागीं येता.

'जायच?' तागेल्या मुखामळावैली निबरसाण विरगळटा!

'कर तर.'

कमरावैलें न्हेसण सकयल ओडून ती इंजेसांव तोंपता. तोंपून–तोंपून कात कितली बादट जाल्या! सूय ओडून भायर काडटा आनी आल्कोला कापूस सूय तोंपिल्ली थंय घश्टिता.

नर्स सिरींज धुवपाक उठटा.

'आनीक मातशें घांस.' तो तिडकता. नर्सीक ताजी आतां सवंय जाल्या. व्हडलो मिनैर जावं, जावं दुडवांकार, ताका तिजी गरज आसा हें ती जाणा!

सिरींज तोपांत बुडोवन ती परती येता. कापसा गुड्डो सूय तोंपिल्ली थंय चोळटा. पुरो जाल्यार विचाऱ्ना आसतना तागेलें न्हेसण वैर काडटा आनी कापूस मोखून भायर उडयता.

'नर्स, तुवें आयचो पेपर वाचला?'

'ना! म्हाका वेळ खंय मेळ्ळा?'

आपणाल्या प्रस्नाक तितल्याक तितली जाप मेळची अशी ताजी अपेक्षा आसता. 'हय' वा 'ना'. सुबेज उलयिल्लें ताका सोंसना. पयलींसावन.

'तुका वेळ मेळ्ळा काय ना तें विचाल्लें ना हांवें! पेपर वाचला काय विचाल्लां. 'ना' म्हळयार पुरो.'

ताका दिसलें ती आपणाक मुमुरखेंच––

'पळय हांसली. फकाणां करता तूं म्हजीं? म्हाका तिडक माल्ल्यार,––' तो फडफडटा.

'हें पळया, हांव तुमकां हांसलें ना. कितले फावटी सांगलें, म्हजें तोंडच हांसतें––'

तेंय खरें! तोंड हांसतें म्हुण हिकाच दवरून घेतल्या. हेर सगल्यो नर्सी––कांय सुतकी तोंडाच्यो, काय किटकिटपी, हुतहुत्यो, कांय बडबडपी सदळ तोंडाच्यो ....

'आतां हो पेपर घे आनी ही खबर वाच....'

तिणें हरशीं आयकलां. पुण ती काम करीत रावता. सिरींज धुता. सूय जाग्यार दवरता. मेज निवळ करता. आनी धव्या फुल्ल नॅपकिनाक हात पुसून ताजे म्हऱ्यांत येतासर तागेली कपलाशीर फुगिल्ली आसता––

'यो म्हण्टकीर सटकरून आयली जाल्यार तूं कसली–'

तो पेपर घेता.

'ही खबर–' तो बोट दवरून दाखयता.

ती वाचता.

'वाचली. आतां कितें तुमकां Congratulations दिवं? परबीं मागूं?'

तो वग्गी रावता. ताका खऱ्यांनीच जाप खबर नासता. भारतां-तल्या इनकमटॅक्स भरप्यां भितल्ल्या पयल्या धा मनशांत ताजो नंबर लागता ही खबर परबीं दिवपासारकी काय? तो येवजिता.

मागीर ताज्या लक्षांत येता ती ताजेकडेन पळयत थंयच उबी आसता.

'वगी कित्याक रावली? विचार कितेंय तरी!'

ताका दिसता तिणें विचारचें, 'असो कितलो टॅक्स भल्लो तर तुमी?'

असले फालतू प्रस्न सटर फटर मनशांनी विचारिल्लें ताका केन्नाच सोंसना. पुण ही नंस इतली संवकळीची जाल्या—इतली संवकळीची जाल्या....

ती दांत दाखयनासतना प्रसन्न हांसता.

'आतां मातशे उठात, हांतुळण सारकें करतां.'

तिज्याच आधारान तो उठटा. उठटा आसतना ताका पंदरा वर्सांफाटीं तो पयलेच खेपेक जपानाक गेल्लो तेन्नाची याद येता. ते राती ताणें मदिरापान केल्लें आनी मागीर गेयशाच्या आधारान ताका उठचें पडिल्लें! आनी आतां—

तरी बरें! तिणें विचाल्लें ना कितलो टॅक्स भल्लो तें! पोरूं कितलो भल्लो काय! ताका याद जायना! अकाउंटंटाक विचारूंक जाय.

'नर्स, मातसो अकाउंटंटाक आफोवन हाड!' तो फर्मायता.

'कोणाक?' ती चादर बदलता आसतनाच विचारता.

'अं! नाका-आसूं.' अकाउंटंट येवचो ना. चलो येतलो आनी विचारतलो, 'बाबा, तुवें अकाउंटंटाक कित्याक आफयिल्लो?' सांगलें जाल्यार तिडकुचो ना. पुण म्हणटलो, 'बाबा, आतां तूं कांयच लावन घेनाका! सगळें हांव पळयतां—' आनी 'असलो फालतू प्रस्न विचार-पाक तूं अकाउंटंटाक काम सोडून हांगा आफयता?' अशें म्हळें जाल्यार? —नाकाच तें. म्हगेलोच चलो तो. फालतू प्रस्न ताका सोंसनात.

पेपर घेता आनी पर्थून तो ती खबर वाचता. पयल्या धांत-लाख्खांनी, कुरोटांनीं लोकांमदीं पयल्या धांत...

मुजरत खबर काडूंक लावपाक जाय. एक्झॅक्ट कितलो नंबर तो! पयलोलेगीत आसूं येता? दुसरो वा तिसरो लेगीते जाल्यार——

ट्रींग ऽ ट्रींग ——

'हॅलो, नर्स स्पिकींग!'

चल्यालोच फोन. खबर घेता जातलो. बाबा कसो आसा? वखद विर्सद कशें चल्लां? आनी आतां बाबाकडेन रिसीव्हर दिवपाक लायतलो आनी म्हणटलो, तूं कांयच हुसको करूं नाका.

तशेंच जालें.

'नर्स सांगता, आतां तूं खूब बरो आसा म्हण...'

'हय–हय.'

'पुण वखदां सारकीं घे. आनीक चार म्हयने तरी मॅडिकल अटेन्शन जाय तुका.'

'पुरो रे! आतां——'

'बाबा, आतां पिशेपणां सोड. तूं सुशेगाद राव. वखद विर्सद सारकें जालें जाल्यार स म्हयन्यांभितर तूं पर्थून आदले भाशेन भोवंक पावतलो...'

पुतान मनस्पूर्वेक म्हळां काय हें?

'आनी सांगपाक विसल्लों. काल आनंदराव मेळिल्लो. तुजी खबर घेतालो...'

'अं–' हांणी खबरच घेवपाची.

'येतलो म्हण्टलो तुजे खबरेक.'

फोन बंद जाता. तो रिसिव्हर सकयल दवरता.

आनंदराव खबर घेतालो खंय! घेवपाचीच. पर्थून पर्थून घेवपाची. पाळ-येची खण घेवपाक ताणेंच आनंदरावाक आग्रो केल्लो. पाळयेची खण म्हुण आनंदरावालें नशीब फळफळ्ळें. खबरेक 'येतलो' म्हणटालो खंय!

ताका फाटली याद आयली.

तेन्ना बाबुली शेट हांतुणार आशिल्लो. कितले फावटी ताणें येव-जिल्लें बाबुली शेटीचे खबरेक वचपाचें. पुण वावराच्या आंवाटा मुखार ताका फुरसतच मेळूंक नासली. आनी निमाणें—बाबुली शेटील्या मरणाक मात तो पाविल्लो.

दीस गाजूंक लागता. ताका बेठेंच सकयलवैर जाता.

'नर्स, हांव मातसोसो गॅलरीत बसतां.'

तिजो आदार घेत तो भायर गॅलरींत वता. वल्तेराचेर बसता.

मार्गावैल्यान मोटारी फास्ट भोंवतात. लोक तार चुकता आशिल्ले भाशेन चलतात. सगल्यांकच ताकतीक आसा. पैस एके बिल्डींगेचें काम चलता. थंय कितलेशेच वावराडे वावराडचो वावुरतात. कायली घेवन बायलो चलतात. ताका दिसता त्यो धांवतात. मानाय कामां करतात तींय सडसडीत. त्या वावरांत एक लय आसा. ते गतिमान लयेंत तागेलें मन घुसपता. पळयतां पळयतां तागेले दोळे थीर जातात. मन केंद्रीत जाता. नकळटना स्वासां–उस्वासांची लय गती घेता. दोळचां पातीं लेगीत हालनात.

'कितें पळयतात अशें ? ' नर्स खांद्याक हात लावन विचारता.

'अं ! '

'हो नॅपकिन घेवन तोंड पुसात. हूम पळयात कितली आयल्या'.

तो हूम पुसता. खुब्ब पुरो जाल्लेवरी ताजे हातपांय घळसणटात जागरण केल्लेवरी दोळचांर झेम येता. नर्स ताज्या खाक्यांत हात घातला. तो बाज्जे कडेन वतना ताजें लक्ष मेजावैल्या हारश्याचेर वता. खीणभर ताजें पडबिंब ताका दिश्टी पडटा.

जड दोळे, कपला वैल्यो मिरयो. . . .

बाज्जेर येवन तो आड पडटा. आपुण आतां जाणटो जालां हे भावनेन तो सगलोच जड जाता. हारश्यांत आपणाल्या कपलार मिरयो आसल्यो. ह्यो मिरयो हुस्क्याच्यो न्हीं, ह्यो मिरयो आतां वचपाच्यो न्हीं. . . .

ताजो दोळो लागता. कितल्योश्योच मिरयो भुरभुर करून कुडींत भितर सरतात. . .हज्जारांनी मिरयो. . .नर्स थंय बसल्या. पुण तिजेकडेन त्यो दाव्या दोळयान लेगीत पळयनात. तो न्हिदला थंय त्यो येतात. . . खोश्शी जातात. . .आनी एकामेकां हातांत हात घालून ताजे भोंवतणी नाचूंक लागतात. नाचतां नाचतां तांची गती वाडटा. वाडत वता. तो चवताळटा — भुरगेपणातले भाशेन. तो तांकां धावंडावपाक करता. पुण त्यो चडूच लागीं येतात. नाचतात. नाचत ,रावतात. फास्ट–फास्ट ! ताकाच घुंवळिल्लेवरी जाता.

घुंवळींतच तो दोळे उकते करता. नर्स वल्तेराचेर आड पडिल्ली आसा. उशाकडलो नॅपकीन घेवन तो कपलावैली हूम पुसता. नॅपकीन कपलाक लायल्यार खरखरता अशें ताका दिसता. मिरयो ! तो कपलाक हात लायता. मिरयो घट दसल्यात. ताका दुबाव येता. ल्हवूच खोमसापोंदाक हात घालून तो आंगावैल्यान हात भोंवडायता. सगल्यो मिरयो आंगभर दसल्यात, हे जाणविकेन तागेलो हात लागनाफुडें सगलें आंगच शिरशिरता.

'नर्स, फॅन लाय.' ताका फॅन जाय अशें न्ही. पुण नर्स न्हिदल्या हें ताका सोंसना. ती उठची म्हुण तो फॅन लावपाक सांगता तिका.

'पेपर दी.' ती पेपर हाडून दिता.

ती खबर पर्थून वाचप ना अशें थारावन तो हेर खबरो वाचता.

आरेच्या ! केंद्री खाणमंत्री गोंयांत ! ही खबर वाचपाची उल्लीशी. तो पर्थून वाचता. केंद्री खाणमंत्री गोंयात काल आयिल्लो. एका दिसाचे भोंवडेर ! आज चललो खंय ! विमान सुटपाचें जालां जातलें. फाटलीं धा बारा वर्सां, जावं खाणमंत्री, जावं हेर कोणूय मंत्री, जावं कसलेंय खाण–संबदीं आंतरराष्ट्रीय प्रतिनिधी मंडळ गोंयां आयलें जाल्यार तांची वासपूस तो खाशा करतालो. तांकां येवकार दिवप, तांकां खाना दिवप, आपणेंच पोशिल्ल्या वर्तमानपत्रांनी तांच्यो मुलाखती फोटचांसैत छापून हाडप, आनी निमाणे तांकां भावपूर्ण निरोप दिवप हें तो नेमान करीत

आयिल्लो. आज ही खबर वाचनाफुडें ताका सकयलवैर जाता. जावं! पूत गेला आसतलो दाबोळे—

स म्हयने जाले तो हातुणार आसा. ताका पयलीं थर्त भंय दिसतालो. ताजे असवडीं काम कशें जातलें काय म्हुण. पुण आतां तो तितलेंशें लावन घेना. सगलें काम जिस्ताजिस्त चलता. पूत पळयता, मॅनेजर पळयता इतलेंच न्ही, ताका ल्हानव्हड गजाल विचारपाची लेगीत कोणाक गरज पडना.

तो आड पडून येवजिता. इतलीं वर्सां जीव दिवन म्हणटात तसो धंदो केलो. दुडू जोडलो, नामना जोडली, म्हयनोभर जपानाक उल्लो जाल्यार सामकें नाकापुरो जातालें—आपणा असवडीं हे धंदो कसो चलयतले ह्या विचारान दिल्लीक चार दीस रावपाक लेगीत मन येनासलें! सगलो भ्रमूच काय तो! आज तो हातुणार आसा. पुण सगले जिस्ताजिस्त चललां. जाल्यार इतलीं वर्सां धंदो चलयतालो तो कोण?

पर्थून ताका भितर रावं नज जाता.

'नर्स, हांव गॅलरींत बसतां.'

नर्स ताका आदारू दिता.

भायर मोटारी धांवतात त्यो पळोवन ताका बरें दिसता—ताकतीक!

ट्रीं ऽ ग — ट्रीं ऽ ग!

फोन वाजता. चल्यालो काय?

नर्स फोन घेता. तो बाग घेवन आयकता. नर्सीकच आयला फोन. चल्यालो फोनशें कित्याक दिसचें हाजें ताकाच अजाप दिसता. चलो आसतलो बिझी!

फोनाचेर फोन....

भायर टाइपराइटरांचो किटी किटी आवाज!

ऑफिसांतल्या फायली–पेपरांचो फरफर....

अपॉइंटमेंटस्!

एंगेजमेंटस् !

तोय असोच बिझी आसतालो....

ताजें रगत तापूंक लागता...

दाराकडेन मोटार तयार जाय आसताली ताका. ड्रायवरान सेकंद-भर कळाव केल्यार तो केन्नाच ताका भगशिनाशिल्लो.

ह्यो फटल्यो यादी काडनाफुडें ताका बरें दिसता.

'नर्स, उदक दी.'

हालीं उदक लेगीत पितना दोतोराक विचारचें पडटा.

तागेली फेवरेट--शीवसरिगल घेतल्यार वर्स जावन गेलें. पोरूं न्यू यिअर सेलेब्रेट केल्लें तितलें. पयलीं ड्रींक म्हळयार शीवसरीगल आनी आतां ड्रींक म्हळयार फकत उदक तेंय--

'नर्स,--' खंय गेली? ताका तिडक मारता. पयलीं जाल्यार तो 'टोलरेट' करचोच नासलो.

नर्स उदक घेवन येता. भितल्लें सरिल्लें जावंयें...

थंड उदक पियेनाफुडें जिवाकूय थंड दिसता.

मुखावैले बिल्डींगेचें काम थांबलां. ती बिल्डींग थंय मोन्यांनी उबी आशिल्ली पळोवन ताका ती आपणांवरीच कशी दिसता. कांय वेळापयलीं ती 'बिझी' आसली. आनी आतां शांत मोनी जावन उबी आसा.

ताका आपणाल्या जीवनक्रमाची उबगण येता. बेकारपण सोंसूं नज जाता. जीण आसची जाल्यार कशी भरिल्ली! वावर, सकाळ सांजवेळ वावर! हे खणीर सावन ते खणीर, ऑफीस, प्रवास, पाटर्यो, खाना! त्यो प्रेस कॉन्फरन्सी, तीं भाशणां! क्लब, सेमिनार! सगलो लोक बोल्सांत, सटर फटर पायांकडेन! पॉलिटिकल लीडर, पेपरवाले कशे वाट पळयताले ताका मेळपाची! आनी आतां--ही अशी जीण सारचे परस--

पैर जयवंत आयिल्लो. तागेलो भुरगेपणांतलो स्कॉलर इश्ट. आतां कितेंतरी बरयता. म्हणूंक लागलो, 'आरे, कितेंय वाच, वेळ बरो वतलो. बसून, न्हिदून उबगण येवपाचीच.'

ताका तेन्ना दिशिल्लें खरें, ! वाचपाची गोडी, संवय आसूंक जाय आसली. पुण ना. वाचप, बरोवप तें ताज्या सारकिल्यांक न्हयच. ताजें कामच वेगळें. वाचपा बरोवपाच्यो संवयो ताका आसल्यो जाल्यार तो हे पदवेर पावतालो ?

'नर्स तुका उबगण येना ? "

ताणे मर्दीच विचाल्लें.

'कसली ? '

'हांगा बसून रावपाची ? '

'हांव बसून खंय आसतां ? काम इल्लें आसता ? '

तिगेलेंय खरें. तिकालेगीत काम आसता. वखद दी. इंजेसाव कर. हातुण सारकें कर. उठपा बसपाक आदार दी.

तो मात फकत बसून आसता.. पळयत, येवजीत. भायलें सगलें जग ताकतिकेत. टॅलिफोनाचेर उलयत . . . . . बील ऑफ लॅडींग, शीपमेंट, बील डिस्काऊंटेड, लेटर ऑफ क्रेडीट . . . . . . . . .

'नर्स, हांव भितर बसतां . . . . . .'

नर्स ताका आदार दिवन भितर हाडटा.

अितल्यान भायर मोटार थारिल्ल्याचो आवाज येता. नर्स गॅलरींत वचून पळयता.

'दोतोर ? '

'न्ही, मोटार नवीशी.'

आनंदराव भितर येता. तो उठून बसपाक करता. ताका पळोवन आनंदराव दुख्खी जाता.

'आरे, कितें ही तुजी दशा ! '

आंगावैलें न्हेसणच ओडून काडिल्लेवरी ताका दिसता. तो तोंड–देखलें हांसता. आनंदरावाक आजुनूय कशें उलोवचें तें कळना.

'जावं रे! आता म्हगेलें जाण्टेपण न्ही?'

'कसलें जाण्टेपण रे! साठ वर्सां भितर जाण्टो जावपाक तू कितें सटर फटर रे? आनी जाण्टो म्हणपाक हांव तुजे परस कितलोसो भुरगो रे?'

'तुका कितलीं?'

'म्हाका अठ्ठावन्न. पुण आसां पळय कसो?

"म्हाका आतां अेकसट. तीन वर्सांपयलीं हांवूय तुजेवरी धश्टपुश्ट आशिल्लों. जाण्टेपण तशें सांगून सवरून येना. तें निमित्ताक रावता."

आनंदराव अस्वस्थ जाता.

'केंद्री खाणमंत्री आयिल्लो. ताका निरोप दिवपाक दाबोळे गेल्लों. भायले भायर हांगा आयलों. म्हळें – तुजी खबर पयलीं घेवप ––'

तोच खबर काडटा धंद्याची.

'सगले कोंत्राद एम्. एम्. टी. सी. मार्फतच जावंकच जाय म्हण्टाले. आमी सोडलां? घट्ट धल्लें. असो ऽ झगडलों हांव –– तूं आसल्यार आनिकूय नेट येतलो आसलो. लोकांक दिशिल्लें आमी * * * शेंपडी घालतले म्हुण.'

धंद्याच्यो खबरो आयकून ताका बरें दिसता. मुखामळार सय मारता

आनंदराव वचपाक उठटा. भरिल्ली कूड रिती जातली म्हुण ताज़ेर आकांत येता.

आनंदराव दाराकडसून परतो येता.

'कितेंय सांग. तुजें सारको सुखी तूंच. जाण्टेपण येसर वावुरलो आनी आतां सुशेगाद न्हिदून दीस काडटा. पूत सांबाळपी आसा. कसलोच हुसको ना . . . म्हज्या ज्यारां कपलांत हें सूख ना. पूत आसा तो म्हज्या फाटल्यान सांबाळीत शें दिसना. दोन दीस जिवाक बरें ना जाल्यार लेगीत बरा बसन दिसना. हुसको जाता. येदोळ म्हळें खरें, पुण आतां आदले माशेन क़ाम जायना. पुण न्हिदप नशिबांत ना. बरे तर येतां.

मोटारीचो आवाज़ भोंवतणांत विरसर तो आयकत रावता

* * *

## तो हांव न्हय

इनासाले सांगणेवैल्यान हांवें तागेल्या ह्या भागांत कोंसुलतोर उकती केली. तो मात उठ्न तारवार गेल्ला. तीन म्हयन्यांभितर जम बरो बसलो. दुसरो ह्या वांठाराक नाशिल्यान सते नाशिल्ली. हाताक हाताक गुण बरो ह्या भावार्तान जायतो लोक येवपाक लागलो दोतोर म्हळयार धंदोच असलो. भावार्तांचेर चलपाचो.

त्या दिसा हांव असोच कोंसुलतोरींत बाशिल्लों. निमाणो पेशंट निकतोच वयार जाल्लो. इतल्यान दारांत ती येवन उबी रावली. पिरायेन पंचवीस तरी आसूंये. पुण स्कर्ट ब्लाउज घाल्ल्यान सामकी अठरा अकुणीस वर्सांची कशी दिसताली. गळयांत बारीकशें भांगरा सरपळेक गुंतिल्लो नाजूक खुरीस लिकलिकतालो. घरची बरी आसूं जाय, हांवें येवजिलें.

"भितर आयल्यार जाता, दोतोर ?" तिणें हांसून विचाल्लें.

"यो, कोंसुलतोरींत कोणेंय येवंचें. येवं काय म्हुण विचारचेली गरज ना." हांवेंय हांसून येवकार दिलो.

ती सुन्दर आशिल्ली. तरणी आशिल्ली. तिज्या तोंडार धिटायेची सय मारताली. बोंचो मोडून मुमुरखें हांसपाची रीत पळेतल्याच्या काळ-जाक खातखुतल्यो करताली. दोनूय पोल्यांचेर गुलाब फुल्लिले. दाव्या कानसुलाचेर एक चामखीळ सोबतालो. गोऱ्या-धव्या आंगार नितळसाण

झळकताली. उजव्या पोल्यार इल्लेंशें फोणकूल पडटालें आनी लेवशी लिपस्टीक लायिल्ल्यान दोनूय ओंठ दशणीचे कळे कशे तट्टटून हांसताले.

"बसल्यार जाता ?" तिणें म्हजे नदरेक नदरेन बांदीत मुमुरखें हांसत विचाल्लें.

"अं ! बस. बस." हांव घुसपलों. अशे तरेन तांकून पळोवप म्हाका सोबना. ती कितें म्हण्टली ?

तिजे नदरेक नदर लावन हांवें सोद घेतली. ती हांसतच आशिल्ली. तिका म्हगेलें तशें पळोवप मानवलेंशें दिसलें म्हाका.

"आं ! कोण दुयेंत ?"

"कोण म्हळयार ? हांवच." तिणें फकाणां केल्ल्याभशेन जाप दिली.

तिजे नदरेंत इश्टागतीचे भाव आशिल्ले. एकेतरेचें आपोवणें आशिल्लें. पळयतां पळयतां नदरेंत नदर घुसपली आनी म्हाका सोडो-वचीशेंच दिसना जालें.

"कितें जाता ?" हांवें जाता तितलें दोतोरकेच्या आवाजांत विचाल्लें.

"हड्डयांत दुखता" अशें म्हुण बशिल्लेकडेन तिणें हड्डें उबार केलें आनी उजवो हात हड्डयार दाबून दवल्लो.

म्हज्या काळजांत ढडढडपाक लागलें. दोळे मोटे जाले. नदर थीर जाली. पयलींच तिणे ब्लाउजाचो गळो सकयलसो कापिल्लो. आनी आतां हात अशेतरेने दाबून धरिल्लो कि उबार हड्डें आनीकूय उबार दिसतालें. हड्डयामदली अशीर खळी लेगीत दिश्टी पडटाली. म्हजें रगत तापूंक लागलें.

"तपासता न्ही, दोतोर ?" अशें म्हुण ती उबी रावली. उबी रावतासतना तिणें मुजरत फुडें बाग घेतली. तेबराबर गळयाकडल्यान सकयलमेरेन देंविली ती खोल खळी म्हाका पुरायेन दिश्टी पडली. हांवें पर्थून तिजे नदरेंत पळयलें. ती मुमुरखें हांसून म्हाका अदिकूच

तापयताली. तिज्या दोळ्यांतलें आव्हान हांवें स्पश्ट वाचलें. आनी तित-लेच धिटायेन तिगेल्या आव्हानाक जाप दिली.

"तपासलेबगर कळटलें कशें ?" अशें म्हणून हांव उबो रावलों. इतल्यान—

"दोतोर, दोतोर, बेगीन यो. घराकडेन मांयक कितें जावन आयलां. जापबीप कांय ना. साल्वार कर तिका, दोतोर बेगीन यो.' खरशेत खरशेत तो भुरगो म्हाका आपयतालो.

हांव मनांतल्यान फडफडलों. न्ही त्या वेळार कित्याक जावन येता हांकां ? हांवें तिजेकडेन पळेलें. ती अजुनूय मुमुरखें हांसताली. तिज्या तोंडार निराशा मातूय दिसलीना म्हाका. तरिकूय वितरागून हांवें त्या भुरग्याक म्हळें, "तूं वच फुडें, हांव येतां रोखडोच."

कर्तव्याची माल्ली शेंडी. दोतोर जालों म्हुण कितें जालें ? मन नासता आमकां ?

"ना दोतोर, वगत जातलो, बेगीन यो. वांगडाच या आमी." तो भुरगो काकुळटेन विनवपाक लागलो.

हांवें पर्थून घुसपून तिज्या दोळ्यांत पळयलें· तेंच हांशें !

"आसूं दोतोर, मागीर केन्नाय तपास म्हाका. आतां फॉर्तसाणीक कितेंय दी."

हांव वितरागांनीच बसलों. कागद काडलें. रेसेत बरयल्लें. कागद तिज्या हातांत दिलें. तिणे पर्स उगडली. हांवें बेगबेगीन म्हळें, "ना-ना. पैशे नाकात."

अपेक्षितच आशिल्लेवरी तिणे पर्स धांपली. आनी हांसूनच म्हळें, "ओब्रिगाद ! येतां आं !"

तिजे फाटल्यान ती वचसर हांव पळयत रावलों. तिजे गोरे लांब केळीगोबे कशे पांय. फाटीर सोडिल्ले लांब पुण कापिल्ले ल्हारां ल्हारां कशे भांगरा केंस. वेंत देडवेंत कमर. तिकतिकीत, गुटगुटीत पोंवटो हातांत आनी हातांतल्यान ओंठामेरेन आयिल्ली उडी नदरेअसोडीं गेली

आनी जड पांयांनी हांव बॅग हातांत घेवन त्या भुरग्या फाटल्यान वचूंक गेलों.

फुडले पंदरा दीस म्हजी मनःस्थिती सारकी नाशिल्ली. एकेवटेन कर्तव्याक चुकिल्ल्याची रुखरुख मनाक लागून उरिल्ली. तर दुसरेवटेन 'चान्स' होगडायिल्ल्याची. एकेवटेन तो भुरगो येवन बऱ्याक पडलेंशें दिसतालें; तर दुसरेवटेन ती पर्थुन येवंची अशेंय दिसतालें. ती सद्दां नदरे सामकार रावताली. ती कोण हें म्हाका खबर नाशिल्लें. तिजें नांव कितें, घर खंय, हांवें कांयच विचारूंक नाशिल्लें. आंकवार वा काजारी हेंय हांव नकळो आशिल्लों. तरीकूय जिवाक सुशेग नाशिल्लो.

पंदरा दिसां उपरांत एक दीस पर्थून म्हाका ती दिश्टी पडली पसऱ्यार कितें तरी घेताली. हांवें तिका पळयली आनी म्हज्या काळजाचें तीन ठोके पांय चुकून निसल्ले. तिणें फुडें येवंचें आनी म्हाका जाप दिलंची, पुण ती थंयच उबी रावली. म्हाका व्हिजिटाक वचपाची ताक-तीक आशिल्ल्यान, आनी स्वाभिमान सोडून तिजे म्हऱ्यांत वचपाक मन तयार नाशिल्ल्यान हांव निखटो हांसलों आनी फुडें सल्लों. तरीकूय एक फावट तकली घुंवडावन फाटीं पळोवपाक चुकलों ना. ती अजुनूय म्हजेकडेन पळयताली. तेंच हांशें, तेंच आपोवणें; पुण निर्शेणी मात दिसली ना.

तिसरे फावटी ती म्हाका दिश्टी पडली गाडयेंत. गाडी सुट्टा म्हळ्यार हांव गाडयेंत चडलों आनी सुवात सोदून बसलों. म्हज्या फुडच्यांत ती बशिल्ली. बगलेक कोण तरी आशिल्लो. ती म्हाका पळोवन हांसली. हांवय हांसलों. बगलेचो दादलो तिजो कोणूय आसूंये अशें म्हाका, कित्याक कोण जाणा, दिसलें. तीं दोगांय उलयतालीं, हांसतालीं. तो तिका घरटुपाचो येत्न करतालो. ती थंड बशिल्ली. मदीं मदीं म्हाका, पळयताली. मागीर तेंच हांशें, तेंच आपोवणें. पंदरा मिण्टां अशींच गेलीं. स्टेशन आयलें आनी हांव देंवलों.

देडेक म्हयनो सल्लो आनी अकस्मात एक दीस इनास म्हाका स्टेशनाकडेन मेळ्ळो. ताणेच म्हाका पळोवन येवन वेंग मारून विचाल्लें, "ओ सिन्योर दोतोर!"

हांवें ताजे दोनूय हात हातांत घेवन इश्टागतीन दामले आनी म्हळें, "इनास, तुवें म्हाका दोतोर म्हणूंक उपकरना. तूं सुरेश म्हण."

"बरें तर. तें आसूं. कशी वयता दोतोरकी?"

"देवादयेन आनी तुज्या मागण्यांनीं बरी चल्ल्या." हांवें काळ-जाथावन म्हळें.

इनास आनी हांव बराबर मडगांवां शिकताले. तेन्नासावन तो म्हजो इश्ट. तो खेळपांत हुशार आनी हांव शिकपांत. हांव मडगांवांच रावतालों. तो मात सद्दां गाडयेन इश्कोलाक येतालो. परती वचपाची गाडी वेळान आसताली तेन्ना उरिल्लो वेळ आमी सांगातान सारताले. इनास काळजान सामको हळवो. कोणेंय मातशें कितेंय म्हळ्यार ताका खूब वायट दिसतालें.

शिकपांत फाटीं म्हुण चाळयल्यार तो रडकुरो जातालो. सरान एक दीस खुटलो माल्लो तेन्ना तो तीन दीस इश्कोलाकच येवंक नाशिल्लो. अशें कितेंय जालें म्हण्टकर हांव ताका समजायतालों आनी मागीर तो निवळटालो.

आतां इनास तारवार आसता. फाटलेफावट आयिल्लो तेन्ना वचचे पयलीं मुजरत म्हाका मेळपाक आयिल्लेकडेन तागेल्या गांवांत कोंसुलतोर घालपाचें ताणे सुचयिल्लें. हांवेंय तें रोखडेंच मनार घेतिल्लें. तो रोखडोच तारवार वंचूक गेल्लो. आनी हांवें कोंसुलतोर उगडिल्ली.

"चल इनास तुका कोंसुलतोर दाखयतां."

"चल" इनास आयलो. केदोवेळ बसलो. खबरो माल्ल्यो. इश्को-लांतल्यो, भुरगेपणांतल्यो आनी तारवावैल्यो. मदींच गंभीर जावन म्हणूंक लागलो—

"वेळ बरो वयता. दुडू बरे मेळटात. पुण सुरेश, घराचो उगडास सोडना. बायलेक घरा दवरून हांवें वर्स–स म्हयने भायर रावप म्हाका गोश्तार जायना. तिजो उगडास येता आनी काळीज आंवडेता." हांवें इनासाचे बायलेक पळोवंक नाशिल्ली. हांवें म्हळें, "ते बरें आसा रे! पुण दाखोवप ना मरे तुजी घरकान्न ?"

"ओ! यस! फाल्यांच हाडटां तिका. एकदम, ब्युटिफुल आसा. तू घुंवतलो. पुण लाइन मारनाका आं!" हाः हाः करून इनास हांसलो. म्हाकाय हांसो आयलो. तोच फुडें म्हणूंक लागलो —

"तुवें लुसीक पळोंव ना, सुरेश. बायल एकदम बरी मेळ्ळी म्हाका. रुपान तशी काळजान. खूब मोग करता ती म्हजो. दोन दोन दिसांनी चिटी बरयता. हांव येतकीर तिणे चय केलां!" इनासाक कितें सांगूं, कितें नाका अशें जाल्लें. तिजी तोखणाय करतनाच वेळ सल्लो. इनास घरा गेलो. आनी दूसऱ्या दिसा बायलेक घेवन मुजरत आयलो.

ती आयली. हांसत आयली. तेंच हांशें! पुण तें आपोवणें मात दिसलें ना म्हाका! तिणे वळख दाखयली ना. हांवेंय कांय म्हळें ना. भितल्ल्यान म्हाका मोटो शॉक बशिल्लो. ती इनासाची बायल आसत अशें हांवें सपनांत लेगीत य़ेवजूंक नाशिल्लें. वैल्याचाराक हांव हांसतालों. पुण मन रडटालें. म्हज्या इश्टाचे बायलेकडेन हांवें वायट नदरेन पळयलें. हाजेपरस पातक तें कसलें ? सगलो इतलो वेळ इनासच उलयतालो. हांव वग्गी बाशिल्लों. आनी ती! घोवाचे उलवणें मज घेवन आयकताली.

दोगांय गेलीं. म्हजी तकली भेरेवन गेल्ली. इनास ! म्हजो मित्र ! मायेस्त, गुणेस्त आनी हळवो ! आनी ती ! ती कशींय आसूं. चूक म्हजी. हांवेंच वायट नदरेन तिजेकडेन पळयिल्लें. म्हाका प्रायश्चित लेगीत ना. हें अशें कित्याक जालें? शी म्हाका!

ताज्या उपरांत इनास कितलेशेच फावटी म्हाका मेळ्ळो. पुण हांव ताजेकडेन मेकळ्या मनान उलोवंक शकलों ना. वांगडा ताजी बायल आसतना तर जाप लेगीत दिवपाक मन येना जालें.

एक दीस इनास उठून मुंबय गेलो. तारवटी तो, घरा बसून 'कॉल' कसो येतलो? अशें म्हुण कितेंय खटपट करून नंबर लावचो म्हुण मुंबय गेलो. आनी हांवूय विसरायेर पडलों.

आमोर जाल्ली. कोंसुलतोर बंद करपाची वेळ. एकलोच वायटकार उरिल्लो. इतल्यान ती आयली. मोटवो स्कर्ट, हातकापें पोल्क! हांवें तिज्या दोळ्यांत पळेलें. तीच नदर, तेंच आपोवणें. आनी ओंठांर तेंच मुमुरखें हांशें.

"यो." तिणे उलोवचे पयलींच हांवें म्हळें. इतल्या दिसांभितर म्हज्या मनाची तयारी निबर जाल्ली. हांवें त्या निमाण्या पेशंटाक 'मातसो राव' म्हळें. आनी तिका विचाल्लें, "कितें म्हण्टा? कितें जालां?"

हांवें 'बस' म्हणनासतनाच ती मुखावैल्या कदेलाचेर बसली. "ताका तपास पयलीं, हांव रावतां."

उपाय नासून हांव पेशंटाक घेवन भितर गेलों. ताका वयार करसर ती बसून रावली. ओंठांर तें हांशें खेळयत.

हावें कदेलार बसनासतनाच तिका विचाल्लें, "कितें जालें?"

"बरी पासार जायना." ती अजुनूय हांसताली. म्हाका दिशिल्लें म्हजे नदरेंतलें गांभिर्य तिका जाणवल्यार तिजो हांसो विरून वतलो. पुण तशें जालेंच ना.

"कितें. जाता?" हांवें पर्थून विचाल्लें.

"तेंच हड्ड्यांत दुखता."

आतां. मात हांवें कदेल ओडलें आनी पेन काडून म्हळें, "हरशींच जातलें. वखद दितां. बरें दिसतलें."

"फाटीं दिल्लें घेवन पळेलें हांवें दोतोर. ताणें एफैत येवं ना देखून तुजेबगलेक येयलां. तपासना जाल्यार दुयेंस कितें तें कशें कळटलें तुका, दोतोर ?" अशें म्हुण ती उठली.

हांव घुसपलों. म्हजी नदर आतां निवळ आशिल्ली. पुण तिगेलो युक्तिवाद बरोबर आशिल्लो. पेशंटाक तपासनासतना वखद कशें दिंव येता ?

मनांचो नित्शेव करून हांवें पड्डो उगडून तिका भितर व्हेली आनी बांकार बसूंक सांगलें. हांव स्टेथोस्कोप कानांक लायता म्हळ्यार ती बांकार न्हिदली. हांवें गळ्याकडेन सकयल चेसपीस लावन पळयलें.

"थंय न्ही हांगा." अशें म्हुण तिणे दाव्या थानार हात दवल्लो तरिकूय म्हजें चित्त थीर आशिल्लें. हांवें चेसपीस सकयल हाडलो.

"राव, दोतोर !" मुमुरखें हांशीत तिणें ब्लाउजाच्या कुलचेतींक हात घालो.

"नाका नाका. स्टेथोस्कोपाक अशेंय समजता." अशें म्हुण हांवें स्टेथोस्कोप फुडें व्हेलो. तेबरोबर सटकन म्हजो हात घट हड्ड्यार दाबून तिणे म्हळें, "असोच धर दोतोर. आतां बरेंऽ दिसता." म्हजें पित्त चाळवलें.

"मिसेस पेरैरा !" हांवें म्हळें. "घोवाक फटोवन असले धंदे करपाक लज दिसना ?"

म्हजो हो अवतार पळोवनूय ती काचाबूल जाली ना. थंडसाणीन ती उठून बसली. ब्लाउजाची सुटिल्ली कुलचेत घाली. आनी मुमुरखें हांशीत नदरेक नदर लावन उबी रावली. म्हज्यान तिज्या दोळ्यांत पळोवं नज जालें. राग कसो काडचो समजना जालें. "म्हाका वळखली ना, तूं ! प्लीज गेट आऊट !' तिडकेन म्हजे हातपाय थरथरताले. भायले कुडींत येवन हांवें कदेलार बसका माल्ली. आनी तकलेर हात धरून बसलों. ती सवकसाये भायर सल्ली. आनी म्हजेकडेन पळयना-सतना सपणां देवन वचपाक गेली.

"दोतोर ! तो भुरगो दारांतल्यान भितर सल्लो, "मांय आतां बरी आसा. इन्जेसांवां आनी गुळयोय तुवेंच दिल्ल्यान बरी जाली."

"तें बरें आसा. तिका काम मात करूंक दिवं नाका." म्हजे तकलेंत फाटले फावट तो आयिल्लो तेन्नाचे विचार घोळटाले.

"पुण दोतोर ! भावान सांगलां दूडू पगार जातकीर दितां म्हुण. रागार जावनाका म्हुण सांगलां."

"बरें आसा." अशें म्हुण हांवें ताका घरा धाडलो. फाटले फावट हाणेंच म्हाका त्या पातकाचे अळशिकेंत पडटा आसतना भायर काडिल्लो. कृतज्ञ भावनेन हांव ताका नदरेआड वचसर पळेत रावलों.

पंदरा–वीस दीस सल्ले. ती म्हजे वाटेक गेली ना. पुण वाटेर मेळ्ळी जाल्यार ओठांवैलें हांशें लिपयलें ना. तीच नदर. तेंच हांशें. हांवें पळयिल्ले खंयचेय बायलेपरस ती चड धीट आशिल्ली. ती दिश्टी पडली जाल्यार म्हज्या मात कपलाक मिरयो पडच्यो.

त्या दिसा गर्दी ना म्हुण बेगीन कोंसुलतोर धांपून हांव घरा वचपाचें येविजतालों. इतल्यान ती आयली. हे खेपेक ती साडी न्हेसिल्ली. चेप्पजाय तशी. सुंदर न्हेसिल्ली. हातकापें पोल्क घाल्लें. गळयांतलो खुरीस लिकलिकतालो. तोंडावैली सय मात गेल्ली. तें हांशें हयन्हीशें आशिल्लें. नदरेंत तें निमंत्रण नाशिल्लें; तरी नदर थीर आशिल्ली. हांव पळयत उल्लों. ती पर्थून हांगा पावत अशें हांवें सपनांतलेगीत चिंतूंक नाशिल्लें. खिळे मारून म्हाका घट केल्ल्यावरी हांव कदेलाक दसून उल्लों.

ती आयली आनी फुडयांतल्या कदेलार बसली. म्हज्या दोळयांक दोळे लावन पळोवपाक लागली. जे थंडसाणीन भितर सरिल्ली तेच थंडसाणीन उलोवपाक लागली, "तुका अजाप जालां न्ही ? हांव पर्थून हिंगा येतशें धरूं नासलें तुवें !" हांवें आंवडो गिळ्ळो. आदांवाफळ वैर सकयल जालें. खिणभर रावन तीच उलोवपाक लागली. "इनास पावत, फाल्यां !"

"अं ! तो मुंबयसान मायले मायर वतलो म्हण्टालें न्ही ?" हांवें आजापानशें विचाल्लें.

"पुण तो येता. मांयन तेका चीट बरोवन आफयला."

"पुण तो कित्याक ?" हांवें घुसपून विचाल्लें. "तेंच सांगूक आयलो. आयक म्हज्यां काजाराक दोन वर्सां जालीं. इनासासारखो घोव मेळ्ळो म्हुण हांव खुशालभरीत जालीं. पुण काजार जावन म्हयनो जावंचेआदींच इनास उठून तारवार गेलो. वर्सांतल्यान एक वा दोन फावट इनास घरा येता. म्हयनोभर रावता आनी पर्थून वता. हांवें ताका कितल्यो चिटी बरयल्यो —"

"तूं घरा यो. म्हाका 'तूं' जाय. तुजो पैसो नाका. पुण तो आयकना. ताका जोडपाची उमेद. ताका दिसता म्हाका जायते दुडू घाडले म्हणटकीर हांव खुशाल जातलीं."

"हांव एक बायलमनीस, म्हाकाय उमेदी आसात. काजार जाल्या उपरांत म्हयन्याभितर घोव पैस गेलो. आनी फुडले सात आठ म्हयने इनास येयसर हांवें कशें काडले तें हांवूच जाणां. इनासाची मांय म्हजो बेठो न्ही न्ही तेन्ना दुबाव खाताली. शेजाऱ्याकडेन एक उतर लेीत उलोवंक जायना आसलें हांवें . . . . इनास येतकीर इनासाक रडत रडत सांगलें हांवें. तेन्ना ताणें मांयक खूब उलयली. तेन्नाच्यान म्हाका मांयची भिरांत दिसना जाली. इनास परतो गेलो. काजारी आसून आंकवारीचें जिवित जियेवपाची म्हाका उबगण आयली. आनी हांवें इश्टागती जोडल्यो. भोंवपाची, सिनेमाची, बरो भेस करपाची उमेद भागपाक लागली. मायन कांय म्हणचें न्ही म्हुण हांवच चिटयेंत तिज्यो चाडयो बरोवपाक लागलीं. इनासाचो तिजेवैलो विश्वास साप ना जालो."

इनास दुसरे फावट येवन गेलो. आनी म्हज्यान रावं नज जालें. राती दुस्मान जाल्यो आनी म्हज्यो उमेदी उसळपाक लागल्यो. जायते मेळ्ळे. पुण तुका तोंडार म्हुण सांगना. तुका एक दीस चयलो आनी म्हज्यान तुजेबगर रावंक जायना जालें. एक दीस आयली. तो भुरगो

पावना जाल्यार—" ती मातशी रावली. ओंठांचो बोंचो करून मातशी हांसली. हांवें बोल्सांतलो लेंस काडून कपलावैली हूम पुसली.

"त्या उपरांत इनास येयलो. चाळीसच दीस उल्लो, पर्थून गेलो. बोमोयच आसलेलो. मांयन आतां ताका आफयला. म्हाका दीस गेल्यात." इतलेंय उलयतासतना निजी नदर म्हज्या दोळयांर थीर आशिल्ली.

"मागीर कितें ?" हांवें सादेपणान विचाल्लें.

"चार म्हयने भर जाल्यात." म्हाका 'शॉक' बसलो. चार म्हयने ! आनी इनासाक घरा आयल्यार दोन म्हयने ! ती पयले फावट म्हजे म्हऱ्यांत आयल्यारच चार म्हयने जाल्यात ! पर्थुन लेंस काडून कपलावैले हूमे थेमे पुसले आनी हांवें कितें तरी उलोवपाक तोंड उगड-पाक तिणें म्हाका हातानच राव म्हळें आनी फुडें सांगपाक लागली.

"मांयक खबर आसा. इनासाक ना. मांयन इनासाक सारकें वरयलां 'चार म्हयने' म्हुण ! तो फाल्यां येतलो. हांव ताका सांगतलीं. ोनच म्हैने जाल्यात. दोतोराक विचार म्हूण." म्हज्या दोळयांमुखार इनास उबो रावलो. मायेस्त, हळवो ! ताका खरी खबर कळ्चार कितें आवतिकाय जातली ताजी ! तो म्हण्टालो, "खूब मोग करता ती म्हजी !" म्हजे विचार तिका कळ्ळे. म्हणूंक लागली, "ना, दोतोर ! हांव इनासाचो खऱ्यांनीच काळजाथावन मोग करतां, तो एकदम सादो, खूब मायेस्त"! पुण बायलेची गरज, तिजी उमेद तो वळखलो ना ही ताजीच चूक. तें आसूं. तो तुजे म्हऱ्यांत येतलो म्हाका घेवन. हांव पंदरा दिसां फाटीं येवन गेल्लें हें तुका सांगचें पडटलें . . . . . . ."

"पुण"

"तरीकूय तुका तशें सांगचें पडटलें. मागीर म्हाका तपासचें पडटलें आनी दोन म्हयने जायत आयल्यात म्हूण ताका शिटकावचें पडटलें आनी—"

आतां मात हांव तिडकलों. "पुण हांव हें करचो ना. फट उलोवंचों ना—"

"तूं उलयतलो. म्हज्यापासत न्ही. इनासापासत. तूं ताका वळखता. तुवें खरें सांगल्यार तो पिसो जातलो – तो. ती खरें उलयताली. इनासाक हांव वळखतालों. ताका सत समजल्यार तो जीवलेगीत दीत आशिल्लो. निर्शेवन हांवें भुजां फाफुडलीं आनी दुबावान विचाल्लें, " पुण आनी पांच म्हयन्यांनी बाळंत जातली तेन्ना ताका कळचें ना ? "

"ना. म्हयने भरचे आदीं बांळंटेर म्हुण तुकाच सेर्तिदांव दिवंचें पडटलें. जोर तकलेक भरतकीर 'बान्यु' दिवंचो तशें जालें म्हाका. दोळे कपलांतल्यान भायर सरत इतले मोठे जाले. ती हांसली. उठली. आनी म्हाका अजाप—तिडक, आनी असहायता हांच्या संगमाचेर बुचकळत दवरून भायर सरून गेली.

चार म्हयने !

कोण काय तो ?

तरी बरें ! एखादरे हावच आसतलों आशिल्लों. आनी अशा वेळार लेगीन 'तो हांव न्ही' हे सुटकेचे ल्हार न्हाणोवपाक लागलें.

"दोतोर ! भितर येवं ? " तो भुरगो भितर आयलो. योगायोग पळयात. हाणेंच म्हाका त्या पातकांतल्यान वाटायिल्लो. आनी त्या दिसा जर तो पावनाशिल्लो जाल्यार जल्मभर म्हाका त्या पातकांतल्यान सोडवणूक नाशिल्ली. आनी आतां जसो काय तो पावती मागपाक आयिल्लो "हे पैशे हाडल्यात दोतोर ! देव बरें करूं म्हुण सांगलां."

म्हाका त्या भुरग्याचे उपकार स्मरले. हांव उठलों. त्या भुरग्याचेफाटीर हात दवरून म्हळें, "आसूं हांव घेवंचो ना ते पैशे ! देव तुका व्हडलो करूं"

* * *

# मूड म्हजो सोयरो

सकाळीं हांव सवकसायेन उठलों. आठ जावन गेल्लीं. आठ वरां उपरांत उठकीर म्हाका जिवाक हुशारशें दिसता.

आज आयतार. खंय वचपाची ताकतीक ना. बद्द जेवन भायर सरपाचें शालीबराबर पिक्चराक वचपाक ! फाल्यां लग्नाउपरांत कितलींय पळोवं हें पयलें पिक्चर !

सदांभशेन मान्न्यांत तोंड धुलें ना. बांयचेर वचून घसघशीत धुलें. थंड उदक दोळ्यांक लागनाफुडें जीव तट्टटीत जालों. चरचरीत तोंड पुसून वल्तेराचेर हात पांय पातळावन बसलों. पेपर घेतलो. अपघात, मृत्यु,खून, उजोलायणीं कामां, . . .असल्यो खबरो हांवें नविदादी कशो वाचल्यो. गोंयच्या एका फुटबॉल संघान भायल्या खंयच्या तरी संघाचेर जैत जोडिल्लें ती खबर पुरायेन वाचली. मागीर आयताराची पुरवणी काडून तातुंतले विनोद वाचले. रेडिओचेर ‘खळार-मळार’ आयकत च्या घेतली.

आजून घा जावंक नासलीं. पासयेक म्हुण भायर सल्लों. आंगडींत वांगडी मेळ्ळे. तांचेबरोबर चवळ्यांक बसलों. हरशीं आयताराचीं वरां मिण्टांवरी धांवतात. पुण आज मात वेळ सरून सरनाशिल्लो.

“आरे, आज मॅच’ आसा मडगांवां ! या ?” एकल्यान विचाल्लें.

“नाका रे बाबा !” हांवें आंग फाफुडलें.

"आब्बा ! हरशीं मॅच म्हळ्यार सगल्यांचड फुलपी तो तूं ! आज कितें मावोडया आमंत्रण बी आसा काय कितें रे ?"

सगले हांसले.

"ना रे ! पुण आज म्हाका दुसरें काम आसा." हांकां हांवें शालीबराबर सिनेमाक वचपाचें थारायलां म्हुण सांगलें जाल्यार हे सगले एक जावन म्हाका कोलायलेबगर रावचे नात. आनी निखटोच 'सिनेमाक वतलों' म्हळें जाल्यार 'आमीय येतात' म्हणपाक कळाव करचे नात.

"कसलें काम तें सारकें सांग पळोवया. आमकांय कळुं दी." बाबुसो सदांच असो. फाट धल्ली जाल्यार कसोच सोडिना.

"सांगना जाल्यार सांगूं नाका. आमकां कळटा. पुण हांव एक काजारी म्हुण तुका उपदेस करतां लग्नाआदीं मावोड्या चड वचूं नाका। आं ! रेस्पेत उरचो ना." सदालीं कुच्छित्रीपणां हरशीं म्हाका मानवनात. पुण आज म्हजो 'मूड' च वेगळो आसलो. हेरां वांगडा हांवूय हांसलों.

"कांय भियेवं नाका ! खरें सांगपाचें म्हळ्यार, आज आमी भाट पळोवपाक वचपाचे आसात." हांवें सुरय फटास माल्ली.

"सेर्त ! मावोडेच्यान पडपाचें आसा दिसता —" सदा.

"तें आसूं रे आतां !" मनांतल्यान म्हाका खातखुतल्यो जाल्यो. पुण वैलेचाराक हांवें विशय बदलूंक विचाल्लें, "एक सांग, आज खेळटात कोण?"

विशय बदल्लो. आतां म्हाका घरा वचपाची ताकतीक जाल्ली.

"सुभाषाक आज कितेंय तरी काम आसा जातलें ! येदोळच्यान पळयतां एकसारको घडयाळ पळयतासो ?" म्हजेर गुळी आयली.

"नायजाल्यार हाजी कालेत हालीं बरी ना." बाबुशान म्हजे फाटीर थापट उडोवन म्हळें.

"लग्नेला-" सदालें तोंड तें !

म्हजी सोयरीक जायतसावन हे म्हाका अशेच चाळयतात.

निमित्त केलें आनी हांवें थंयसून कूस माल्ली.

वाठार आज हांसतालो. भोंवतणाचेंय मन आज म्हजेवरीच प्रसन्न आसलें जावंये.

आंब्याचे तेंगशेर रावन कोगळान म्हाका साद घालो. दिसलें म्हाका म्हजें शालीच म्हाका साद घालता. 'घो वो ऽ'

हांवें लक्तुबायेन वैर पळयलें. कोगूळ दिश्टी पडलें ना. नकळटनां म्हजे ओंठ हाल्ले आनी शिळोणी भायर सल्ली, 'ओ ऽ ओ !'

कोगळान आयकली जावंये पर्थून साद आयलो, 'घो वो ऽ,'

"तोरां लागपाक दीस आसात आजून सुभाष !" सोनबाबान म्हाका हटकिलो. वैल्या बोवाळांत हांव केदो वेळ वाटेर उबो रावन वैर आंब्याकच पळयत आसलों ! सोनबाबाल्या उतरांनी म्हजी तनरी तुटली. लज जाली आनी हांवें सडसडडीत चांटां माल्लीं.

सोयरीक जाल्यार तशे दोन म्हयने जाल्ले. पुण शालीकडेन उलोवपाची चडशी संद मेळळीच ना. शालीलीं घरचीं ताका 'उलय', 'भोंव' म्हुण सांगतालीं. पुण लोकिचाराक लागून तें फाटीं सरतालें. हा अू करून एक दीस हांवें ताका 'कोलव्यां या' म्हळें. ताणें तकली हालोवन 'आं' म्हळें. मडगांवां प्रासार मेळपाची कबलात जाली. हांवें मार बेगीन प्रासार वचून वाट पळय पळय पळयली. शाली आयलेंच ना. अशी भिरभिरी मारिल्ली म्हाका ! पुण शालीन 'सगलीं म्हाका चाळोवपाक लागलीं म्हु'ण आयलें ना' अशें लजेत लजेत सांगलें आनी तागेल्या पोल्यांवैली तामसाण पळोवन म्हजें काळीज भुरकुटून गेलें. आज आमी सिनेमाक वचपाची कबलात केल्या. शो तिनाचो ! धा मिण्टां पयलीं दोगांयनी थिएटराचेर पावपाचें ! मनमेकळें उलोवपाचें!

"घेवन येशी कोणाकूय बराबर!" हांवें शालीक शिटकायिल्लें.

शाली लजलज लजेलें. समजलें ताका.

"कोलव्यां वचपाक केल्लें तशें करशी." हांवें तिडायलें.

बेगबेगीन मान हालोवन तें न्हयकाल्लें. "हांव सांगू घराकडेन तुगेल्या?"

"नाका." तंबोऱ्याची सरी झंकार दिता तेन्ना जसो आवाज येता तसो शालीचो आवाज !

"फकाणां करना हांव खरें येतलें मगो ? ना जाल्यार म्हाका कुंकळच्यान हांगा आफोवन थिएटराचेर पातिशेर करशी !"

"येतां म्हळें न्ही ?" शालीन तकली बागोवन म्हजेकडेन पळयत म्हळें·

"सोपूत आसा आं !" हांवें म्हणिल्लें आनी शालीन हांसून तकली हालयिल्ली.

घराकडेन हांवें बेठेंच हेवटेन तेवटेन केलें. पुण घडयाळीन म्हजीं फकाणांच करपाचें आडायिल्लें. साडेबारा जावपाक युगां खालीं.

"आई, बेगीन वाड गे !" हांवें तिका 'सिनेमाक वतलों' इतलेंच सांगिल्लें.

"जायत आयलें. मातसो राव". पंदरा मिण्टांभितर तिणें जेवपाक आफयलो.

"सिनीम कसलो रे !"

हांव घुसपलों. खंयच्या थिएटरांत वतलों तें हांव जाणां आसलों. पुण सिनीम कसलो तें पळयलेंच ना हांवें. शालीनय विचारूंक नासलें.

"कसलो तरी ! बरो ऽ खंय." हांवें पासून व्हेलें. वाळचेवाळून वाडिल्ल्या शीताची ऊब धुंवराभशेन सुट्टाली. हात लायिल्लो मात खतखतीत शीत तें! बोटांकच दसलें. हात फाफडीत हांवें बोटां तोंडांत घालीं. हूलप पडलो तो सोंसपाचो न्हय.

हुमणाच्या वासान भूक जागी जाली. मातसो वेळ हुलप विसरून हांवें पान निवळ केलें.

"आज जेवलो ना सो रे, सुभाष ?" आईन विचाल्लें.

"जेवलों न्ही गे ! " खऱ्यांनीच पोट उपाट भरिल्लें.

एक जावंक नाशिल्लें. मातसो आड पडलों. हातांत मेळ्ळें तें वाचलें-न्ही, वाचिल्लेभशेन केलें.

बोटां हुलपल्ल्यान सुमाराभायर त्रास जातालो. उठलों. भितर वचून बोटांक खोबरेल लायलें. कितलीं तांबडीं जालीं बोटां ? जिस्त आजच लपलीं बोटां पाड पडिल्लीं !

देडाक उठून मुस्तायकी भायर काडली. घवें फुल्ल खोमीस लकयलें आनी म्हजे आवडीची पँट घालून हांव तयार [जालों.

हांव भायर सरतां तें पळोवन आईन च्याक उडयलें. च्या जायसर रावचेंच पडलें.

दोनाचे बसीर गेल्यार अडेजांपयलीं मडगांवां पावतलों.

"आई , च्या बेगीन जावं दी." हांवें बुटांची लेस बांदीत म्हळें.

"जाली. आयल्यार जाता." आई च्या सारकी करताली. तोंमेरेन हांवें दांतोणी घेवन केंस वळयले. पोव मारपाची म्हाका सवंय ना. पुण आई पळयनाशें करून तोय मातसो माल्लो. बरेंच हुशार दिसलें जिवाक.

"च्या दी." हांव भितर आयलों. कदेलाचेर बसून चिक्र उबाल्लें. ओंठांक लावन 'सुर्' केल्लें मात!—जीब हुलपली!

"कितली खतखतीत दिल्या गे?" हांवें राग आईचेर काडलो.

"सवकसायेन घे रे! पिरींत पीहून आसा जाल्यार!" आईन सदचेभशेन थंडसार्णान जाप दिली. म्हजी म्हाकाच लज जाली. जीब बरीच हुलपल्ली. 'सूकसूक' करून ओठांतल्यान वारें ओडून हांवें जिबेक मातशी थंड केली. आनी सडसडीत चिक्रांतली च्या पिरींत ओतली

"आरे, आरे, आरे!" पिरींत ओतातना मातशी ताकतीक जाली. सटकरून च्या उसळ्ळी आनी धव्याफुल्ल खोमसाचेर दोन थेंबे उसळ्ळे. बेगबेगीन बोल्सांतलो लेंस काडून खोमसाचेर थेंबे पडिल्ले थंय घांसलो. तेबराबर ल्हान आशिल्ले थेंबे पातळ्ळे आनी दाग व्हड जालो. रागारागान च्या थंयच आपटिली. आल्मार उकती करून पळय जाल्यार घालपासारकें दुसरें खोमीस ना.

"आसूं रे! फाल्यां धुतकीर वतले ते दाग!" आईन येवन म्हळें.

"फाल्यां वतले गे! पुण आतां घालूं कितें?" हांव धेंगसलों.

"तेंच घाल. अशे कितें व्हड नात ते दाग! कोण इतलो बारीक पळयता तुका?"

आईक कितें खबर? शालीले नदरेंतल्यान सुट्टात हे दाग?

"वगीच उस्तवं नाका आल्मार! हेर खोमसां तुवेंच धुवपाक दिल्यांत." आईन म्हाका जागयलो. "आनी घड्याळ पळय आं! दोन जायत आयलीं."

"आरेच्या!" हांवें सडसडीत तसोच भायर सरपाचें थारायलें.

भायर सरतना आईनच दाखयलें, "बुटाचेरय पडली दिसता च्या. मातशे पूस ते."

हांवे पळोवंकच नासलें. ब्रश सोदल्यार ब्रश मेळ्ळो ना. कालच बूट पॉलीश करून दवरिल्लो हांवेंच! जाय जाल्यार लागीं मेळना·

"पाड पडूं ह्या ब्रशाचें." हांव फडफडलों.

"आंगसो घे आनी पूस रे!" आईन वाट दाखयली.

आंगसो जाल्यार आंगसो! पुण तो तरी मेळपाक नाका? तोय मेळ्ळो ना. घड्याळीचेर जालीं दोन! कोनशाक एक बोंदर आशिल्लें. तेंच सारयलें. च्याचो दाग गेलो. पुण बोंदराचो म्हेळ लागून काल केल्ली पॉलीश अळशिकावणी जाली.

आतां येवजुपाक वेळ नासलो. बेगबेगीन बशीकडेन धांवलों. बस सुट्टाली. जिस्त मेळ्ळी. हुसकारो सोडून जनेलाकडेन बसलों. बस सुटली. पॅसेंजर कोण चड नाशिल्ले. हांवें खोमसावैलो दाग निरखून पळयलो.

शी:! धव्याफुल्ल खोमसाचेर दाग! मागीर तो केदोय आसूं! नदर बुटांचेर गेली. एक बूट लख्ख निवळ तर दुसरो साप बुरसो कसो अळशिकावणो! बोंदराचो राग आयलो म्हाका. वच्चे वचून आईक सांगप—घरांत एक्कय बोंदर उरपाक जायना.

मळब वत ओतताले. झाडांरुखां घम्म वगी आशिल्लीं. सवणीं खंय लिपिल्लीं देव जाणा! सकाळचें प्रसन्न भोंवतण आतां नाशिल्लें.

जीब चुरचुरताली. बोटांय आजून तांबडीं आसलीं. नदर पर्थन पर्थून खोमसावैल्या दागाचेर वताली.

वाठार सगलो अन्तेश्टी करून अयिल्ल्यावरी सुतकी देखाव घेवन बशिल्लो. वत आनी वत आनी वत! चोंयवटेन फकत ताप आनी रखरख! कपलाक मिरी पडली म्हज्या.

शाली बराबर सिनेमा पळोवपाक म्हुण हांव भायर सल्लां. भोंवतण कशें प्रसन्न आसूंक जाय आसलें. एक कावळोलेगीत कित्याक हालना?

जीब चुरचुरता म्हुण न्ही. खोमसाचेर दाग पडला म्हुण न्ही.. हांव मायलेचार चड पाळपी न्हय. शाली फाल्यां म्हजी घरकान्न जातली आज खोमसाचेर पडिल्लो दाग ताणें पळयलो जाल्यार म्हाका कसली पर्वा! प्रस्न तो ना! म्हजो 'मूड' च इबाडला. सकाळीं जिवाक कशें हुशार दिसतालें! मन कशें तट्‌टटीत आसलें! आतां बाविल्लेवरी दिसता!

बस मडगांवां पावली.

असोच देंवन परतो बसीर बसून घरा वचचें कशें दिसलें. अशें कित्याकच दिसचें हाजो विचार करीत हांव थिएटराचेर आयलों.

दोन पस्तीस! शालीक येवपाक अजून पंदरा मिण्टां तरी आसात. थिएटराचेर खुबच गर्दी आसली. हांवें तिकेट काडून दवरपाचें येवजिलें. लाइनीक उबो रावलों. खेट सामकी! लाइनींतल्या एकल्याक तिकेट मेळटासर मायल्या चौगांक मेळटाली. हरशीं जाल्यार हांव बोवाळ करतलों आसलों. पुण आज उमेदच नासली! धायेक मिण्टांनी मेळळचो तिकेटी! सू जालें म्हाका. लाईनींतलो सुटलों म्हुण हुसकाल्लों, तिकेट मेळ्ळी म्हुण न्हय. खिणभर दिसलें तिकेट मेळना जाल्यार बरें आसलें— पर्थून वचूंक निमित्त मेळटलें आसलें!

शाली येवपाचेंच जालें. हांव एके कुशीक वचून उबो रावलों. तिकेटी घेवपाक खूब्ब खेट जाल्ली. एकमेकांक धुकलून, चेपून, गाळी संवून लोक तिकेटी घेताले. हांव पयलीं पावून बरें जाल्लें.

तिकेटी काडटल्या लोकांक पळोवन म्हाका गिधांची याद जाली. एक फावट कारवारच्यान वतना हांवें पळयिल्लें. वाटेर एक रेडो मेल्लो.

ताजेर कितलींशींच गिधां तुटून पडिल्लीं. ह्या लोकांक झोमतासतना पळोवन म्हाका त्या गिधांची याद जाली आनी मनाची अस्वस्थताय तेंगशेर पावली. शाली येवचेपयलींच झुरचें कशें दिसपाक लागलें. संत रामदासाची याद जाली म्हाका––सावधान आयकताखिणीं पळून गेल्लो–म्हजोय किंचित–रामदास जावपाक लागलो.

"ट्रीण्ण!" बेल जाली. भायर बेठोच बोवाळटालो तो लोक भितर धांवलो. हांवें घडयाळ पळयली. तिनाक दोन मिण्टां आसलीं. शालीन तिनाक धा मिण्टां आसतना येवपाचें मानून घेतिल्लें. जावं! चलीभुरगें तें! इतले बेगीन येवन म्हुण कितें करतलें! लोकांहुजीर भायर तिश्टुचे परस मातशें कळाव करून आयिल्लेंच बरें!

शाली येना जाल्यार पुरो! केन्ना काय घरा गेल्यार पुरो जालें म्हाका. 'मूड' ना! आनी असली अस्वस्थ आवतिकाय घेवन जर शाली म्हऱ्यांत बसलों जाल्यार तें तरी कितें म्हण्टलें? तागेल्योय म्हुण. कांय अपेक्षा आसतल्यो!

तीन जालीं. थिएटरांत भितर काळोख जालो तिकेटी सोंपिल्ल्यो दारांतली खेट उणी जाली.

"तिकेट जाय? एक जाय? दोन जाय? चार रुपयान––जाय?" एकलो भुरगो म्हाका विचारतालो.

खुमण्याबराबर फुलोवंचें अशीं तिडक मारता म्हाका असल्याची. पुण आज हांव वगी रावलों. तकली हालयली आनी पैल्यान सल्लों.

तीन जावन गेलीं. शाली येनासतना रावचेंच ना. तशें तें फाटले फावटी राविल्लें. पुण हे खेपेक हांवें ताका सोपूत घाला. तें येतलेंच...

दारांतलो लोक पातळ जालो. भायर उबो रावन म्हाकाच आड-खळिल्लेवरी दिसपाक लागलें. हांव फोटो––पोस्टर्स पळोवपाक लागलों. हिरो हिरोईन हांचीं तीं प्रणयचित्रां पळयतां पळयतां एक नवें ल्हार आंगावैल्यान गेलें. एके अनामीक ओडीन जीवाक तळमळे लागले. शालीन फाटल्यानसून येवन म्हजे दोळे धल्ले असो बेठोच भास जालो––पोस्टरांत तशें एक चित्र आसलें.

म्हजी नदर दाराक आशिल्ल्या हारशाचेर पडली. पडबींब म्हाका पळोवन हांसूंक लागलें. खोमसावैल्या दागाचेर म्हजी नदर आडखळ्ळी ना. बुटावैलो दाग म्हाका दिश्टी पडलो ना.

येन्नादर शाली येवपाचें. भायर येवन हांवें पैसमेरेन पळयलें. शाली दिश्टी पडलें ना. दुसऱ्या थिएटराचेर बी तें गेलें ना मूं? म्हजे भशेनच तें थंय तिश्टना मूं? ना. हांवें जिस्त सांगिल्लें. तें तशें चुकचेंच ना. येवचें ना बी दिसता. आतां आनीक पांच मिण्टां रावप. आनी मागीर परतो घरा––

मारगावैल्यान एक सुणें आयलें आनी थिएटराचे वण्टीचे कुशीन सांवळेक बसलें.

शालीन रेकाद तरी धाडपाचो.

कोणतरी सायकलीन फाश्ट येतालो. रेकाद घेवन येता काय? सायकल फाश्ट आयली आनी थारनासतना गेली. थिएटराचो डोअरकिपर आनी कुशीन आशिल्लो एक भुरगो म्हाकाच पळयतालो. हांवें वचपाचें येवजून पांय उकल्लो. इतल्यान एक स्कुटर आयली. एक घोव, एक बायल देंवलीं. आतां बाबडीं येतलीं आनी 'हाउस फूल' म्हुण परतीं वतलीं. हांव फुडें सल्लों.

"सिनेमाक आयल्यांत न्ही?" हांवें विचाल्लें.

"हय." तो हांशिल्लेभशेन करून हांव वळखिचो काय कितें हाजो अदमास घेवपाक लागलो.

"ह्यो तिकेटी घेयात. थिएटर 'हाउस फूल' आसा." हांवें दोनूय तिकेटी ताज्या हातांत दिवन म्हळें.

ताणे बोल्सांत हात घालो. हांवें 'आसूं' म्हळें आनी फाटल्यान पळयनासतना चलपाक लागलों.

...तो तिजो हात धरतलो आनी भितर वतलो. म्हजे आनी शालीचे सुवातेर तीं बसतलीं....

येदोवेळ म्हाकाच पळोवपी भुरगो धांवत आयलो.

"सुमाष --तूं ?"

"हय." हांवें उबो रावन म्हळें. ताणें म्हाका बोल्सांतलो चिटी-कुडको दिलो आनी तो वचपाक गेलो.

प्रिय सुभाष,

आईक जोर आयला. म्हाका येवपाक फावना. रागार जावं नाका. सोपूत मोडना. फुडल्या आयताराक याच.

तुजेंच

शाली.

चिटमिटच्यांनीं हातपांय धोडायत हांव घरा येवपाक आयलों.

* * *

# अशीं रुपडीं—अशीं रुपडीं

पाच वरांचेर ऑफीस सुटलें आनी रमेश सोडून सगले भायर सरून गेले. रमेशाक घरा वचपाक गाडी साडेपांचांक. अर्दवर वाटेर वा स्टेशनार झक मारचेपरस ऑफिसांतच बसून कसलेंय काम करप बरें, हें रमेशालें मत्त ! हेरांक मात वचपाचेंच आसता. वास्कोच रावपी वा कुठ्ठाळ सांकवाळसावन येवपी, बस चुकता वा आनीक कितेंय काम जातलें म्हुण ताकतिकेन वतात. गाडयेर वचपी लोकांक लेगीत ऑफिसांत रावपाचें नासता ! कोणाक नुस्त्याक मेळटा जाल्यार पळोवपाचें आसता—वास्को सांजच्यावेळार बेस आनी सवाय मेळटा. कोणाक नंबर लावन येवपाची ताकतीक आसता. कोणाक 'ड्रिंक' जाय आसता. तर कोणाक गाडी येवचे पयलीं स्टेशनार उबो रावन चवळचो करपाच्यो आसतात. रमेशाक मात हांतलें कांय एक मानवना. क्लार्क म्हुण चार वर्सांपयलीं लागिल्लो रमेश आयज हेडक्लार्क जाला. आपणालें काम बरें आपुण बरो हो ताजो सभाव. रमेश कोणाकच जायजायसो दिसना तसोच नाकासोय दिसना. रमेश सगल्यांकडेन बरो. सगले रमेशाक मानतात. ताका कसलेंच वेसन ना. सोऱ्याक तो हात लायना. सिगाराक पळयना. बायलांकडेन तर ताजे इतली मुर्वत धरपी कोणच आसचो ना. रमेशालें शिकप बी. ए. ! इंग्लेज तो एकदम बरी उलयता आनी वाचता. मराठी पुस्तकां वाचून तीय भास तो बेस बरी बरयता. हिंदी ताज्या ओंठार बरी भोंवता

आनी पुर्तुगेज कांय तेंप धोळिल्ल्यान ताका ती बरी येता. कोंकणी दिसपट्टी घोळपी काळजाची भास जाल्ल्यान तिजो प्रस्नूच ना. तरीकूय हेर कोणूय रोमी बरोवप्यांइतली ताका ती रोमींतल्यानूय बरोवंक येता. अशे तरेचो हो रमेश. कोणाचेच मजगतीक वचपी न्ही असो निरुपद्रवी मनीस म्हुण ताका सगलो लोक वळखता.

सदचेवरी आजूय पांच जातात म्हळचार सगलें ऑफीस रितें जालें. रमेशान अर्दवर कितें करतलो तें पयलींच येवजून दवरिल्लें. टायपरायटर म्हऱ्यांत ओडून ताणें फोली घालून एक पत्र टायप केलें. पांच विसांक तागेलें पत्र टायप करून सोंपलें. खणांतलें पाकीट काडून ताजेरूय नामो टायप केलो. आनी पत्राचेर सकयल A WELL WISHER अशी निशाणी करून ताणें तें पत्र बंद केलें. स्टेशनाचेर वतना वटेर पत्र पोस्टांत उडयलें आनी बद्द स्टेशनार आयलो.

गाडी निकतीच हारबरसाकून वास्को स्टेशनांत भितर सरताली. गाडी थारनाफुडें भूरभूर करून लोक गाडयेंत बसले. रमेशानय नाका-सामकार थारिल्ल्या डब्यांत वचून जनेलाकडली सुवात आडायली. रमेशा फाटोफाट बोरकार चडलो आनी रमेशा म्हऱ्यांतच बसलो. मुखावैल्या बांकार एडवर्ड आनी रीटा बशिल्लीं. गाडी सुट्टा म्हण्टसर डबो भल्लो.

बोरकाराक पळयनाफुडें रमेशाक देसायाची याद जाली. देसायालें कितें जालां आसतलें हाजो रमेशाक सुमार आशिल्लो. पुण दुसऱ्याल्या तोंडांतसून आयकुपांतूय एक गोडी आसता.

देसाय कुंकळचो! पुण कामत बिल्डर्स हाणीं ज्युंताचें वास्को कसलेंशें कॉंट्रॅक्ट घेतलां थंय कामाक आसतालो. रमेशान सावसो जावन विचाल्लें, "कितें बोरकार! आज देसाय ना सो बराबर? तो फकत शेनवाराकच वता न्ही घरा?"

बोरकारूय उलोवपाक निमित सोदतालो. तातूंत असलो विशय मेळ्ळो जाल्यार विचारूं नाका.

"म्हणजे ? तुमकां खबरच ना दिसता ? देसायाक काडलो."

"म्हणजे ?" रमेशान अजाप परगटायलें.

"तो सिर्विसेक आशिल्लो न्हय कामत बिल्डर्सागेर ! थंयचो काडलो ताका ! बरें ब्लॅक केलें खंय !"

"अशें ? अजाप ! हरशीं मनीस एकदम बरो !" रमेशान चुर-चूरत म्हळें.

"तसो कोण मनीस वायट गा ! सगले बरेच ! देसाय मात अतलें करीत अशें धल्लें ना हावें." बोरकार उलोवपाक लागलो. "तें कित्याक ! आठ दीस लेगीत जाले नात खबरेक ! असोच गाडयेंत देसाय म्हाका विचारतालो शिमीट जाय काय म्हुण ! आं, हय ! तुमी लेगीत आसात त्या दिसा न्हीं ?"

"आं ? जायत. लक्ष नाशिल्लें दिसता म्हगेलें !" रमेशान म्हळें. खरें म्हळ्यार बोरकारानूच देसायाकडेन मागिल्लें.

"तुमचें लक्ष नाशिल्लें जावंये ! म्हाका म्हणूंक लागलो, 'जाय जाल्यार दितां तुका शिमीट.' म्हाकाय गरज आशिल्ली. न्हाणयेचें काम अडिल्लें. हावें म्हळें, जाता जाल्यार दी. उतराक दिलें पुण आं ! आनी दुडूय चड घेतले नात ! पुण लोकांक कितें दिलां, कितलें दिलां, आनी कशें दिलां तें देवच जाणा !"

"कंपनीक कळ्ळें काय कितें ?" रमेशान मूळ प्रस्नाक हात घालो.

"हय तर ! चोरयो केन्ना लिपतात ?" हरशीं बोरकार देसायाल्या खांदार हात घालून भोंवपी. ताणें फुडें म्हळे, "कंपनीन रोकडोच धांवडायलो. तरी बरें, भितर उडयलो ना. देसाय सांगता, कोणें तरी दुस्मानान खंय 'बरें मागपी' म्हुण फटीची चीट बरोवन कामतीचे कान भल्लें. कामत आयिल्लो खरो म्हज्या म्हऱ्यांत ! हावें खरें तें सांगलें. वोगीच कोणाल्यो भानगडी नाकात ! आमी म्हळ्यार उजू मारगान चलपी लोक ! तुमकां कशें दिसलें ?"

"बरें केलें." रमेशान म्हळें आनी जनेलांतसून तकली भायर घालून पळयलें. गाडी दाबोले पावत आयिल्ली.

बोरकार उलयत आशिल्लो. दाबोले कांय घांटी भितर सल्ले· एकल्यान आपणाली पोती वैर दवरपाक उखल्ली. अितल्यांत बोरकार आड्डलो, "राव, राव. म्हगेली चिमणी फोडशी." बोरकारान उठून वैर दवरिल्ली चिमणी हातांत घेतली आनी घांटयाक पोती दवरपाक सुवात करून दिली. रमेशान चिमणी पळोवन म्हळें, "येदी व्हडली चिमणी शी ?"

"आमगेर मेजार दवरपाचो व्हडलो दिवो आसा पेत्रोलाचो. ताज्यो चिमण्योच मेळनात. ही एक मेळ्ळी. स्टेशन मास्तरान केले उपकार."

"म्हणजे ?" कांय नकळशें करून रमेशान विचाल्लें.

"स्टेशनाचेर आसतात न्ही मेजार दवरपाचे व्हडले दिवे ! तांकां वर्सांक अमक्योच चिमण्यो येतात. आमगेलो कुरतरकार आसा न्हीं मास्तर! तो केन्ना फाल्त करना म्हाका ! म्हणू नाका कोणाक आं !" बोरकारान रमेशाक शिटकायलो.

"बरें आसा !" रमेशान मनांत गांठ बांदली. नायजाल्यार अशी मेळत ताजेकडेन भरभरपाची सवंय बरी न्ही. ह्या बोरकाराक बुद्द शिकोवपाकच जाय एक फावट. नाजाल्यार त्या कुरतरकाराक तरी !

फुडल्या बांकार बशिल्या एडवर्डाक आनी रिटाक रमेशाल्या गजालींची गत्तच नाशिल्ली. तीं दोगांय खंय मोगांत आसात. कोण जाणा हो मोग काय फोग तें ! फाटले तीन म्हयने जाले सद्दां अशीं किटकिटत किटकिटत खबरो मारतात. एडवर्ड मडगांवचो ! रीटा चांदरचें ! एकामेकांक सोबतात खरीं. लोकलेगीत तांकां 'रोमिओ ज्युलिएट' म्हुण फकाणां करतात. रमेशाक बोरकाराल्या खबरांची उबगण आयली. ताणें भायर पळोवन गाडी खंय पावल्या हाजो अदमास घेतलो. सांकवाळ फाटीं पडिल्लें. आनीक पांचसात मिण्टांभितर कांसावले !

"एड ! यू आर मॅड !" अशें म्हणून रीटा ताज्या आंगार पडलें.

"यू, फूल!" अशें म्हणून एडवर्डान तागेले केंस धरून तागेली तकली उबाल्ली, "तूं उतर दी."

"ओ. के. प्रॉमीज!" रीटान हात फुडें केलो. रीटालो हात दामून एडवर्डान म्हळें, "आतां कशें शाणें जालें! गूड गर्ल! सो! सण्डे! अॅट अं अं अं! ओ. के. ?"

"प्रॉमीज म्हुळें ना रे! प्रॉमीज म्हुळचार प्रॉमीज."

गाडी कांसावले पावली. रोमिओ ज्युलिएटालें फुडलें उलोवणें आयकुपाक रावना आसतना रमेश देंवलो.

क्रॉसिंगाखातीर गाडी कांसावले रावता. मडगांवच्यान गाडी येवपाची जाल्ली. रमेशाली बायल मडगांवां सिर्विसेक वता. ती सद्दां हे गाडयेर येता. रमेश बायलेक रावलो. गाडी आयली. पुण बायल आयली ना. कितले फावटी जाता अशें. गाडी चुकता. आनी मागीर बसीन येवचें पडटा. प्रायवेट सिर्विसेचें हें अशेंच. पात्रांवान राव म्हळें, रावचें पडलें! गव्हर्नमेंटाच्यो सिर्विसो भोव बऱ्यो! गाडी चुकता म्हुण सांगून अर्दवर पयलीं लेगीत वचूंक मेळटा!

बसीक कळाव आशिल्ल्यान रमेश घरा वचपाक गेलो. रमेशालें घर तशें व्हडलें न्हीं. वायट दिसांत तिगून उरिल्लें घर. हालीं रमेशान मातसो बावर बी केला म्हुण बरें दिसता मातशें.

रमेशाक घराकडेन वतना एकासारकें रोमिओ ज्युलिएटाचेंच येवजून येतालें. रोमिओ आनी ज्युलिएट! प्रेमिकांचो आदर्श! एकमेकांचेर कितलो मोग आनी विस्वास तांकां! आनी आतांचे भुरगे! भेसूय अडेचो आनी मोगूय अडेचो!

दारांत पावपाक शेजान्न आयली. तिगेलो चेडो मडगांवां कॉलेजींत शिकता. तो आतां ज्युनिअर बी. एस्. सी. करता. हे शेजान्नीलो हो अेकलोच पूत. तो शिकतलो, जोडटलो हे आशेचेर बाबडी जियेता! तिका खूब उमेद. पुण हालीं बाबडी साप निर्शेवन गेल्या— पुताल्या करण्यांक लागून! तो खंय हालीं वाळेसपणा करता, हांगाथंय हेडटा,

सिनेमांक वता, फोल्गां मारता अितलेंच न्हय–चेडवांक घेवन भोंवता खंय ! सामको आलमपेड्डचार जाला. तिका तशी चीट आयल्या–कोणा अेका बरें मागप्याली. कोणा बाबड्याक तिजी काकुळट आयली आनी ताणें तिका शिटकायली. पुण पूत आयकना. ना तें ना म्हण्टा. रमेशाचेर तिजो भोव विस्वास. गरीब आसुनूय कश्ट काडून रमेश शिकला आनी आपूण जावन वैर सल्ला हेपसत तिका रमेश म्हळचार व्हडलें जाता ! तिणें रमेश घरांत भितर सरचेफुडें ताका आडावन म्हळें.

"बाब रमेश ! म्हुगेलो बस्त्यांव मरे कांयच आयकना म्हुगेलें ! ती चीट येयल्ली तें सांगलां हांयें तुका न्हू ? तो मात नाच म्हुण्टा. हांव म्हुण्टां, लिसांव पुण कर पापया ! तो म्हुण्टा, मांय ओंदू येजाम जड न्हू ! आतां केशें करप ? तूं तरी तेका सांगरे बाबा ! "

"हांव आनी कितें सांगू ? " रमेशान म्हळें.

"बरे भाशेन राव म्हुण सांग. वाळेसपणां सोड म्हुण सांग. चेडवांबाराबोर भोंवनाका म्हुण सांग."

"मांय ! रागार जावं नाका. बस्त्यांवाक वायट दिसतलें. कोणाकूय दुखोवप म्हज्या जिवार येता ! " अशें सांगून रमेश भितर गेलो. आंगाचीं देंवयलीं. आवयन दिल्ली च्या पिलो. बायलेक येवपाक कळाव आशिल्लो. ताणें सडसडीत फोल पेन घेतलें आनी तो बरोवपाक बसलो–

मोगाळ एडवर्ड,

हांव तुका वळखतां. पुण तुज्यापरस रीटाक चड बरो वळ-खतां. आमी दोगांय वांगडाच शिकतालीं, वांगडा भोंवतालीं. हांव रीटाचो आनी रीटा म्हजो मोग करतालें. फट दिसता जाल्यार रीटाकच विचार. रीटाचीं लव्हलेटर्स जाय जाल्यार तींय हांव तुका दाखयतां. रीटाचेर हांव मोग करूंक लागल्यार पांच वर्सां जालीं. हांवें मड्गांवां एक क्वार्त भाड्यान केल्लो. थिगा तें येवन म्हाका मेळटालें. त्या क्वार्तांत रीटान जें म्हाका दिलां, तें तुका हांव सांगिना. हालींच म्हाका रीटाचो दुबाव येवपाक लागलो. पैर आय-

तारादिसा तें येतलें देखून हांव क्वातीर रावलों. पुण तें येयलें ना. हांवें सोद केली तेन्नां म्हाका गमलें कि तें तुजेलागीं मोगाचे खेळ खेळटा. म्हुण हांवें काल तेका विचाल्लें जाल्यार तेणें सांगलें कि तेका आतां म्हजो मोग करून वाज येयलो. आतां तेका मुदासांव जाय, देखून तें तुजेवांगडा भोंवता. हांव जाणां ह्या आयतारा तें तुजेवांगडा भोवंक येतलें. तुज्या दुडवांखुस्तार फोल्ग मारतेलें आनी चार दीस नाचून तुका सोडून तिसऱ्याक धरतलें. चींत तुका उरटें केल्लें चेडूं जाय ? आतां ही चीट वाचून तरी तूं शाणो जावं. ना जाल्यार तुजी खुशी. देव तुका बरी तकली दिवं.

—बरें मागपी.

रोमी लिपींतली ही चीट सोंपयता म्हण्टसर भायर मोटारसायकल थारिल्ली. भायर येवन पळय जाल्यार बायल आयल्या.

"आज वेळ सो जालो ?" रमेशान विचाल्लें.

"ऑफिसांत हालीं काम खूब पडटा. मार्चाक यिअरअेंड न्ही ?" बायलेन भितर येवन म्हळें.

"सायकलमोटार भाड्याची काय कितें ?" रमेशान विचाल्लें.

"आनी कोण पात्रांव म्हाका पावपाक येतलो ?" बायलेन तिडकून म्हळें, "वेर्ण्यमिरेन बसीन आयलें. आनी थंयसून मोटरसायकल केली. नाजाल्यार रावचें पडटलें आशिल्लें सातांची बस सुटमेरेन. आनी मागीर घरा पावपाक जातलीं आशिल्लीं आठ—सवायआठ."

"जावं आशिल्लीं. म्हाका बायलांनी मोटारसायकलींचेर बशिल्लें मानवना. दुडवांपरी दुडू वगडावप आनी—" फुडलें रमेश उलयलो ना. बायलेन परक्या दादल्याच्या फाटल्यान बसून मोटारसायकलीन येवप ताका मात सोंसना. केदी लज !

आपुण दिसांची आसां म्हुण तरी तिणें जतनाय घेवपाक जाय. पयलो गुरवचार तिगेलो !

बायल पांय आपटीत भितर गेली. आनी रमेशान चीट कव्हरांत घालून पास्तांत दवल्ली.

रमेशाक वेसन कसलेंच ना. पुण एकच सोंस. तोयबी हालींच लागिल्लो. नांव घालीनासतना चिटी बरोवपाचो. आयुश्यभर रमेशान त्रासच काडले. हेवटन तेवटेन पळोवपाक लेगीत पापयाक फुरसत नाशिल्ली. कश्टांची जीण सोंपून आतां मातशे बरे दीस आयिल्ले. रमेशय जोडपी आनी बायलय जोडकान्न. आतां दोळे वयर करून पळय जाल्यार भायर सगलो संवसार हांसता. रमेशाक दिसलें हें सगलें अडेचें. हे लोक रुपडीं घालून हे संवसाराचे माचयेर नाचतात. आनी विचार आयलो हीं रुपडीं फोडून उडोवंक जाय. अडेचो हांसो ना करून तांचें खरें रूप पळोवंक जाय. आनी ताणें आपणांलें पेन हेंच शस्त्र करून कामाक हात घालो. आतां ताका ह्या लोकांचीं अस्सल रुपां दिश्टी पडटात. काल हांसपी आज कशे रडटात तें ताका पळोवपाक मेळटा. बेकार जातकीर कितें जाता हें लोकांक कळटकीर ते कशे चिंतेस्त जातात तें ताका दिश्टी पडटा. माया, मोग, विस्वास, सगलें अडेचें कशें हें ताका ज्युस्त कळपाक लागलां. असल्या करण्यांनीं ताका एक सूप्त आनंद मेळटा. ह्या आनंदाक हे खोश्शेक मोल ना.

दुसरो दीस शेनवार! सकाळीं पत्रां पोस्टांत पडलीं. 'हाफ डे' जाल्ल्यान प्रोग्राम वेगळो. ऑफीस एकाक सुटनाफुडें धांवत येवन रमेशान गाडी धल्ली. बेगीन घरा आयलो. पुण बायल घरा आयली ना. यिअरअेंड खंय! काम चड!

आयताराअितलो वायट दीस खंयचोच ना. आजूय रमेशाक कांयच काम करूंक मेळ्ळें ना. बायल घरा नासल्यार रमेश 'कितेंय' बरोवपाक बसपी. ती आसल्यार बरोवंक फावना. रमेश जें कितें करतालो तें खासा तो सोडल्यार आनीक कोणाकूच खबर नाशिल्ल—बायलेक लेगीत.

सोमारा दिसा रमेश कामाक गेलो. दनपरां वेळ मेळ्ळो तेन्ना बोरकारालो ड्राफ्ट तयार केलो. आनी पांच वरां उपरांत वेळ फावलो

तेन्नां तो टायप केलो. सोमतेंच पत्र पोस्टांत गेलें. आनी साडेपांचांक गाडी धल्ली. रमेश मुजरत रीटा चडिल्लें थंयच चडलो. एडवर्ड आजून येवंक नाशिल्लो जावंये. रीटा ताका सोदपाक जनेलांतल्यान भायर पळयतालें. गार्डान फिर्रर्र करून पिल्लूक मारपाक स्टेशनाच्या दारांतल्यान एडवर्ड भितर सल्लो. रीटान हात भायर काडून उलो माल्लो, 'एऽड! एऽडी!'

पुण एडवर्डान कानार केंस काडले. तो फुडें गेलो आनी दुसऱ्या डब्यांत वचून बसलो.

रीटालें खुमणें बावलें. लजेन ते आनीकूच काळें जालें. रमेश मनांतल्यान हांसलो. रोमिओ खंय! मोगाचेर श्रद्धा ना हांची जाल्यार मोग करूंक फुडें कित्याक सरतात?

कांसावले रमेश देंवलो तेन्नां लागशिल्ल्या डब्यांतल्यान बोरकारान तकली भायर काडली, "कितें तुमी पावले न्हीं?"

"हय." रमेशान म्हळें.

"आमी येवं जेवपाक?" बोरकारालें तोंड तें! रोकडें कशें बंद जातलें?

'बरे भाशेन!' अशें म्हुण रमेश स्टेशनार गेलो. बोरकारान हांसून तकली भितर काडली. 'आज हांसून घे पोटभर' रमेशान मनांत म्हळें.

मडगांवच्यान गाडी आयली. पुण बायल आयली ना. रमेश घरा आयलो. आवयन च्या हाडून दिली आनी अेक चीट दिली, "हें प आयलां तुका." रमेशान चीट फोडली.

प्रिय रमेश,

तूं म्हणशीत तुमच्या संवसाराक उजो लायतां म्हुण. पुण तशें न्ही. तुमच्या संवसाराक लागिल्लो उजो पालोवपापासत ही चीट बरयतां.

तुजी बायल सिर्वीस करता न्ही? बायलांनी सिर्वीस करचीच. पुण ती शील बाटयनासतना, चरित्र वगडायनासतना करूंक जाय.

हांवें पूर्ण विचार करूनच तुका चीट बरोवंक घेतल्या. बाटिल्लें शील निवळ जायना. पुण लज वचचेपयलीं आनी नाक कापचेपयलीं जतनाय घेतिल्ली बरी. तूं आजून तिका राख.

म्हाका अजाप जाता! ती कितलेशेच फावटीं रात करून घरा पावता तरी तूं वोगी कसो रावता? हालीं तर ती चडकरून कळाव करून घरा पावता. फाटले तीन दीस हांव पळयतां. सगलेजाण गेले तरी ती एकलीच ऑफिसांत फाटल्यान रावता. आनी मागीर ती आनी × × × × मोटारसायकलीन खंयतरी वतात. ऑफिसांतल्या सगल्यांकच हे खबर आसूंये. तूं खबर काड, तुकाय कळटलें.

तुका हाज्यायफुडें वचून सांगतां–जातल्या त्या भुरग्याचो बापूय आपुणच असो विस्वास बाळगिनाका. तुगेले बायलेलो × × × × कडेन संबंद बरोच पोरणो म्हणपाचें म्हाका कळ्ळां. तुका दिसता जाल्यार तिगेल्याच ऑफिसांत काम करपी ब्रागांझाक विचार नाजाल्यार शिरवयकाराक विचार. कळटलें.

निमाणें उपदेस अितलोक की नाका जाल्लें घडचे पयलींच तिका सिर्वीस सोडपाक लायिल्ली बरी.

— बरें मागपी.

चीट वाचून रमेशाली तकली घुंवळपाकडेन पावली. दोळे कपलांतल्या उडकी मारून भायर येतात शे दिसपाक लागले. दोळे कपलांतल्यान उडकी मारून भायर येतात शे दिसपाक लागले. सात जालीं, साडेसात जालीं, पावणेआठ जालीं. बायल आजून येवंक नाशिल्ली.

चीट बरोबपी कोण काय? फटच आसूंये सगलें. पुण—

सदांच हिका कळाव कित्याक? सांगूंक जायना घरा पावपाक रात जातली म्हुण!

× × × × म्हळचार कोण काय ? पात्रांव ? काय मॅनेजर ? काय ... नायजाल्यार हिका जाय ! पैर मोटारसायकलीचेर बसून आयिल्ली. परकी मनीस तो ! खऱ्यांनीच भाड्याची काय ती ?

चिटयेंत हाणे बरयलां. आनी तिणेय पैर सट करून म्हणिल्लें, "आनी कोण पात्रांव म्हाका पावपाक येतलो ?"

आतां कितें करप ! ही चीट तिका दाखोवप ? ना. ती कशी 'हय' म्हण्टली. 'ना'च म्हण्टली.

काय तिगेल्या ऑफिसांत वचून खबर काडप ! शीः लोक कितें म्हण्टले ?

चीट बरोवपी म्हण्टा – 'जातलें तें भुरगें–' थुमेकाल ! बायलेक दीस गेल्यात खरे ! पुण ह्या चीट बरोवप्यान ही संशयाची पाल ह्या नसत्या वेळार कित्याक सोडली म्हज्या मनांत ?

आठ जावन गेलीं. रमेश पासयोच मारतालो. अितल्यान भायर पावल वाजलें. आयली. आयली ती बद्द भितर गेली.

"आयक." रमेशान घोगरो आवाज लिपयत म्हळें.

"कितें ?"

"येदो वेळ कित्याक जालो ?"

"सांगलें न्हीं ? यिअर अेंड––"

"यिअर अेंड कितें तांकांच लागता ? लोकांल्या बायलांक रात जायसर ऑफिसांत कामाक दवरपासारकें कसलें काम असता थंय ? आनी तुज्यान सांगूं नज ? घर आसा, घोव आसा ! लज नाशिल्ले-भशेन रातचें आठ-णव वरां राती घरा येता, तुका बऱ्यान सांगतां ? आय-च्यान सिर्वीस बंद. घराच राव."

"पुण पात्रांवाक––" बायलेन अजापान आनी मागीर तिडकून उलोवपाचो येत्न केल्लो मात––

––'ठां' करून रमेशालें थापट तिज्या कानसुलाचेर उदेलें.

"पात्रांव जाय तुका ? हांव सांगतां तें आयक. तुगेले ते नाच म्हाका सोसनात . . . . . ."

* * *

# मॅट्रिकेचो रिझल्ट

'आगो पुरो! एस्. एस्. सी. म्हळचार मॅट्रीक उरूंक ना. मॅट्रीक ती मॅट्रीक! एस्. एस्. सी. म्हळचार फकाणां जाल्यांत आतां. आमच्या काळार . . . . . दादाल्या उलवण्याचो शोभाक राग आयलो. पुण दादालेंय फट न्हय. त्याकाळार मॅट्रीक कोण जाताले? नॉन-मॅट्रीक म्हळचार लेगीत एक डीग्री कशे मानताले तसल्या काळार दादा मॅट्रीक जाल्लो.

शोभाक मॅट्रीकेची कोण व्हडवीक! धावी पास जावन मॅट्रीकेंत पाविल्ल्याक एक पळय तें व्हडवीक गायतालें! शोभाबराबरचीं सगलींच गायतालीं जाल्यार ताणेच कित्याक गावचीं न्हय! मॅट्रीक म्हळचार अेंड्या-गुंड्यालें काम न्हय. मॅट्रीकेचे परीक्षेअितली कठीण परीक्षा तर कसलीच ना. मॅट्रीक जो धपक्याक पास जाता तो फुडें कॉलेजींत केन्नाच आपटुपाक ना म्हळचार फट जावचें ना. कॉलेजींत वा ताज्यायफुडें जायत्यो व्हडल्यो परीक्षा जातात. पुण चड व्हडवीक ती मॅट्रीकची. अिकरा वर्सांचे तपश्चर्येक फळ येता तें मॅट्रीके–परीक्षेक पास जातकीर. हें सगळें बरें खबर आशिल्ल्यान शोभा जण एकल्याक तें सांगून आयक-तल्याचे कान कणकणायतालें.

धावी पास जायनाफुडें शोभान थारायिल्लें की वर्सभर अभ्यास करप. खेळप ना, सिनीम ना, कांय ना. नित्शेव करूनच तें वगी रावलें

नाशिल्लें. घरांतलो कॅरमबोर्ड काडून आल्मारीफाटल्यान लिपोवन लेगीत दवरिल्लो. पुण केल्ले सगलेच नित्शेव पाळप खंय जातात? घरांतलो कॅरमबोर्ड लिपयलो तरी शाळेंतलो कोण लिपयतलो? हाणें यो म्हळें, ताणें खेळ म्हळें आनी शोभा मातशें खेळ्ळें. पुण ताणें अभ्यासूय केलो. कांय ना म्हळ्यार प्रीलीम लागीं पावत आयली तेन्ना तरी केलोच. आनी मनार घेवन केलो तो असो तसो न्हय. रातदीस! न्हीद ना जेवण ना! फकत अभ्यास . . . . प्रीलीमेक Rank घेवपाची शोभाक खुब्ब इत्सा आशिल्ली. पुण बाबड्यालें दुरदैव आड आयलें. ज्युस्त प्रीलिमेकडेन ताका थंडी जाली. नाय जाल्यार शोभाक शीं अिल्लें चड बादता. प्रिलिमी जाल्यो शीयांच्याच दिसांनी. तातूंत जागरणां अिलीं वायटार पडलीं. ताकालागून टीचरीलीं शेणेपणां मात आयकून घेवचीं पडलीं. बेठेंच शोभाक आफोवन तिणें सांगलें, 'हें पळय तुका आमी Form दितात. पुण एक condition! तुवें खुब्ब अभ्यास करचो पडटलो . . . . . प्रिलिमेक काय तुका व्हडलेशे बरे मार्क नात . . .' शोभान आपणांक कशी आकांताची थंडी जाल्ली, कशो शिंकेर शिंको येताल्यो, कसो ताळो दुखतालो आनी व्हीक्स लायिल्ल्यान दोळे कशे जळजळटाले तें सांगपाचो येत्न केलो. टीचर सारकें आयकून घेना तें पळोवन ताका तिजो रागूय आयलो. पुण form तर जाय! म्हुण ताणें तिगेलें आयकून घेतलें. टीचरीनूय शोभाक सगलें सांगूंक नाशिल्लें. आदल्या दिसा दादा जेन्नां प्रिन्सीपालाक मेळूंक गेल्लो तेन्ना टीचर थंयच आशिल्ली. प्रिन्सीपालान ताका सांगिल्लें कि शोभालो प्रिलीमेचो रिझल्ट बरो ना. ताजेर दादान म्हणिल्लें, 'जावं गा! चलीभुरगें तें. एक फावट मॅट्रीक जालें म्हण्टकीर हांव सुटलों. धाडात तुमी."

'पुण परिक्षेक काडलें म्हुण तें पास जातलेंच अशें ना–' प्रिन्सीपॉल.

'जातलें. हांव करून घेतां अभ्यास. नाय जाल्यार it is a game of luck—'

'पुण आमच्या हिसबान तुमचें शोभा–it is a doubtful case!'

" Exactly ! म्हाका मॅट्रीकेक sent up करचे आदी आमच्या प्रिन्सीपालान म्हगेल्या बापायक exactly हींच उतरां सांगिल्लीं. Doubtful case ! पुण हांव जालो ना पास !"

फुडलें आयकुपाक टीचर थंय नाशिल्ली. पुण मागीर प्रिन्सीपालान तिका आफोव शोभाक शिटकावपाचें काम सांगिल्लें.

शोभान मागीर खुब्ब अभ्यास केलो. खुब्ब अभ्यास केलो म्हळचार तें रातचें इकरा–बारांक न्हिदूंक लागलें. विनुले, सरूले नोटस् हाडपाक लागलें. मागीर ते पर्थून व्हरून दिवपाक लागले. शेताधंडेर बसून पुस्तकां पाठ करपाक लागलें. एखादरें गणीत कळना जाल्यार टीचरीगेर फावटी मारपाक लागलें.

तेभायर नांवरूपां थोडीं केलीं नात ! इलेक्ट्रीक बेल विस्कटावन उडयली. बांयची गाडी 'पुली पुली' म्हणीत खिळखिळी करून सोडली दादाले सायकलीचो पंपच सगलो मोडून उडयलो. घरातलें एक रुप्य कुलेर आनी स्टीलचें कुलेरच ना केलें. एक आनी दोन न्ही. पुण केलें तें कितें वाट लावपाच्या वायट हेतान केलें ना. केलें तें शिकपाखातीर केलें. शाळेंत शिकयतात तें पुस्तकावैलें. Practical knowledge मेळना अशें दादानच म्हणिल्लें एक फावट.

एस्. एस्. सी. परीक्षा जाली. सोंपली. शोभाले पेपर एकदम बरे गेले. टॉप ! प्रिलिमेपरस बरे. तसो गणिताचो पेपर खूब कठीण आयिल्लो. शोभा सुर्वेक भितालें नापास जायत बी म्हुण. पुण पळय जाल्यार सगल्यांकूच 'टफ' गेला. आनी एक पेपर सगल्यांकच 'टफ' गेल्यार खंय बोर्ड मागीर 'करेक्शन' सोपें दवरता. आनी तशें आसल्यार पन्नास सोड चाळीस पडपाक दुबाव ना. पस्तीस तरी पडटलेच.

परीक्षा सोंपली. आतां वाट पळोवप ती रिझल्टाची. 'आंवय ! अडेच अडेच म्हयने रिझल्ट ना म्हळचार कितें गो हें !' मंदा.

"नाका जाल्लेंच मगो तुगेलेंय. मॅट्रीक म्हळचार कितें तुगेल्या इश्कोलाची गो ती एजाम ? " रीतान म्हळें.

'हय तर. अडेच म्हयन्यांनी रिझल्ट येता तेंच अजाप! अख्ख्या जगभर भुरगे बसतात. तांचे पेपर तपासप आनी रिझल्ट तयार करप म्हळयार कितें फकाणांचीं कामां? शोभान म्हळें.

'आगो शोभा, जगभर भुरगे बसतात मॅट्रीकेक म्हुण कोणें सांगलें तुका? इंडियेंत म्हण.' एकलें चली— शोभापरस शाणें.

'आतां तर शोभाक उलोवपाक दुसरो विशयच मेळना जालो. एस्.एस्. सी. म्हळचार कितें! परीक्षा कितली कठीण! कितले लाखांनी भुरगे परीक्षेक बसतात! रिझल्ट कितलो कठीण येता, ह्योच खबरो. केन्नांकेन्नांय सहअॅपीअरणी कोणूय मेळ्ळें जाल्यार मागीर विचार नाका.

'आगो शोभा, आयकलां मगो तुवें? त्या शिरवैकाराक कॉपी मारता आसतना धल्लो खंय."

'कोण गो–तो? बोकोड?"

'तोच तो! ताणें खंय बोल्सांतसून कागदांच्यो गुठल्यो हाडिल्ल्यो. कॉपी मारता आसतना ज्युस्त धल्लो खंय.'

'आरे! आतां ताका बाबडयाक मार्क मेळपाक कठीण.' शोभा.

'कितें? मार्क खंयचे? फुडें परीक्षेकलेगीत बसूंक मेळचें ना ताका. तशेंच फावो. कित्याक जाय आशिल्लें कॉपी मारपाक?'

'हय तर! नाय जाल्यार चल्यांक लजच ना. म्हाका तर बायें कॉपी म्हळयारच भंय दिसता. पैर मगो Geography च्या पेपराक हांवें तें पळय Equitorial region चें climate आसा तें पावतीचेर बरोवन व्हेल्लें. आनी ज्युस्त तेंच आयलें परीक्षेक. पुण म्हाका पळोवपाचो धीरच जालो ना.'

'मागीर सोडलो तो प्रस्न तुवें?'

'ना गो, म्हाकाच याद जाली तशें बरयलें. बरोवन जातकीर मात 'चेक' करून पळय जाल्यार ज्युस्ताक ज्युस्त.'

'वाः तीय जाल्यार कॉपीच आं!'

शोभाक असलें सोंसना. नाक फुलोवन ताणें म्हळें, 'जावं! तुजेभशेन नाक्कातरें जावन मांडयेर नोट बरोवन व्हरना हांव.' बरे-

भशेन उलयतां उलयतां दोगांयलीं उतरां तापत गेलीं आनी 'पर्थून केन्ना जाप दिनाका' हे बोलीचेर एकमत जावन दोगांयनी एकमेकांक तोडलीं.

अशेंच एक दीस सरू मेळ्ळें. खबरी रंगार आयल्यो.

'जाणा मगो शोभा, मुंबयसावन दिलीप आयला न्ही तो सांगतालो. थंयचे प्रोफेसर खंय पेपर तपासता आसतना कशाकशेय तपासतात. थोडे खंय आपणाले बायलेकच सांगतात तपासपाक. एकलो आनी खंय कोमीक करता. वैल्या सपणांचेर उबो रावता खंय आनी पेपरांची रास सकयल ओतता खंय. वैल्या पावंड्याचेर पडटात त्या पेपरांक चड मार्क. सकयल पडटात तांकां थोडे."

आयकता आसतनाच शोभाल्या दोळ्यां मुखार तागेलो गणिताचो पेपर उबो रावलो, मुमुरखें हांसून ताणे म्हळें, 'वगी ऽ राव गो ! बंडल आसतलें !'

'ना गो, सगलेंच फट म्हणू नाका. थोडें तरी खरें आसतलें. पोरूं पळयलें ना तुवें तो समीर कसो पास जालो तो. नावाडगो एक नंबरचो–अभ्यास खंय केल्लो ताणें? "

अेप्रील सल्लो. मे अर्द सोंपलो. रिझल्टाचे वेध लागले. शोभाची अस्वस्थताय वाडत गेली. ताका हरशीं अपशकून अेकूय जालोना. तें मनांतलेमनांत जुगार खेळटालें. फाल्यां सकाळीं जर सात वरांपयलीं जाग आयली जाल्यार हांव पास जातलें असो मांड खेळून तें न्हिदतालें. सकाळीं बेगीन उठटालें. सातांपैलीं जाग आयल्या, तेन्ना पास जातलेंच. चडशें ते risk घेनाशिल्लें. 'वेळ आज बुडलोच ना जाल्यार हांव पास जातलें' अशें म्हणप म्हळ्यार आपलेच गोमटेक फातर बांदून जीव दिवप. चडांत चड risk घेतालें तें कॅरम खेळतना. दाव जिखल्यार हांव पास जातलें, अशें म्हण्टालें आनी तरीकय तें जिखतालें, तेन्ना ताका दिसतालें आशा धरपाक हरकत ना. 'स्ट्रायकर परतो आयलो जाल्यार हांव फेल' अशें म्हण्टालें तेन्ना ताजीं बोटां ल्हवूच स्ट्रायकराक धुकलतालीं. पुण क्वीन घालून कव्हर घालतालें तेन्ना

ताजी आशा थीर जाताली. घुलो बोल्सांत पडटाल्यो तितली शोभाची उमेद वाडत वताली . . . . दिशीं दिशीं . . . .

अिल्लें अिल्लें करून शोभालें सगलें जगच रिझल्टमय जालें. उठटा बसतना हुसको फकत रिझल्टाचो.

एके राती ताका सपन पडलें. सपनांत एक प्रोफेसर पेपरांचो कवळो घेवन एके अिस्कादेच्या वैल्या सप्रणाचेर उबो आसा. त्या कवळयांत शोभालोय पेपर आसा. हय, गणिताचोच पेपर तो. शोभा ताका सांगता . . . सामकें काळकुटेक येता. आपणांक पास करात म्हुण. तो मोटचान हांसतासो आनी म्हण्टा, 'आतां हांव हे पेपर वैरसून सकयल उडयतां. तुगेलो पेपर खंय पडटा तें पळोवया. म्हाका तपासपाची आयल्या उबगण. हें अशें तपासप सोपें. वैल्या सपणाचेर पडटा ताका चड मार्क—' आनी उलयतां उलयतां तो पेपरांचो कवळो काडून वैर भिरकटायता. पेपर कशा कशेय पडटात. वैरसून थोडे निसरत सकयल येतात. थोडे वयरच उरतात.

शोभा बेगबेगीन आपणालो पेपर सोदता. सामकें काचाबूल जावन सोदता,. देवा, पाव सायबा, पास जाल्यार पुरो अशें पुटपुटत तें पेपर सोदता . . . . तो पळय. हय होच. 'सर, सर, हो पळय.'

'आं ! तशें जाल्यार पस्तीस मार्क !' पस्तीस ! जावं, पास तरी जालें. शोभा खोश्शेन उडकी मारता. जाग येता. पळय जाल्यार हांतुणार.

सकाळीं शोभान आईक विचाल्लें, 'आई, सपनां खरीं जातात गे ?'

'ना गो बाय'.

'मागीर फट जातात गे ?'

'तशें न्हय. पुण फांतोडेर पडिल्लीं सपनां खरीं जातात अशें म्हण्टात'.

शोभाक याद जाली. आपणाक जाग आयिल्ली तेन्ना रातच आशिल्ली.

'आनी रातचीं फट जातात गे?'

"तशें न्हीं गो! पुण तुका कित्याक गो बारीकसाणी? सपनेलें काय कितें?" पुण शोभान ती खबर पासून व्हेली.

ल्हान भुरगें व्हड जाता तेन्ना जण एका मोडणाचेर ताजी अपुर्बाय जाता. तें हांसता, उमथें पडटा, फुडें सरता, धिमकुरें वता, बसता, उब रावता. पुण आवय बापायक सगल्यांत चड उमेद आसता भुरग्यान पयलें चांट मारिल्लें पळवपाची.

मॅट्रीकेचीय अपुर्बाय तशीच. पयलें चांट माल्लें की मागीर भुरगें फुडें चलपाक कळाव लायना. पुण तें चांट पडपाक जाय. मॅट्रीकचेंय तशेंच.

दादा आनी आई आतां शोभाचींच विचार करतालीं. शोभान खुब्ब अभ्यास केला हाजी तांकां जाणवीक आशिल्ली. आनी तें पास जातलें अशी तांकां खुब्ब आशा आशिल्ली. म्हण्टा म्हणसर रिझल्ट लागीं पावलो. फाल्यांर पावलो. शोभाक सकयलवैर जातालें. फाल्यां सकाळीं रिझल्ट. कितें जातलें काय? पास जाल्यार पुरो! देवा, पाव सायबा! रातचें न्हिदपाक वचचे आदीं शोभान पर्थून एक फावट देवाक नमस्कार केलो. ल्हवूच पांच नाल्लांची पंचखादय दामोद्राक सांगून घेतली. आनी हांतुणार पडलें.

न्हीद तरी कसली पाड पडिल्ली! जाय तेन्नां बेगीन येना. शोभाक आशाच न्हय खात्री आशिल्ली आपुण पास जातलें म्हुण. पुण पेपरांत येतलें तेन्ना खरें!

शोभाक दोळो केन्नां लागलो तें कळ्ळेंच ना. सकाळीं जाग आयली पळय जाल्यार उजवाडलां. बेगबेगीन शोभा भायर येवन तोंडबी धुवन पेपराची वाट पळयत रावलें. दादा पयलींच पेपर हाडपाक भायर गेल्लो. शोभाल्या हड्ड्यांत ढडढडपाक लागलें. तो पळय दादा येता. पेपर घेवन येता. व्हडलो धांवत येनासो, कितें जालां काय? फेल! तशेंच आसूंक जाय. शोभाल्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावलीं. दादा आयलो. पेपर काडून शोभा कडेन दिलो. शोभाक कळ्ळें! तरीकूय पळोवया.

दादा चुकला आसतलो. शोभान नंबर पळयलो. दुकां पयल्यान सारून सारको पळयलो. ना. सरसर दुकां गळपाक लागलीं. वर्स गेलें, दुडू गेलें, ते त्रास फुकट गेले, ती आशा मातये भरवण जाली. उल्लीं तीं दुकां.

अितल्यान् दारांत एक सायकल उबी रावली. पोस्टमन सो ! आरेच्या ! तेलेग्राम ! दादान तेलेग्राम घेतलो. शोभाक तशाय वेळार उपरोधीक हांसो आयलो. लोकांक पास जाल्लेबद्दल परबीं दिवपाक तेलेग्राम येतात आसतले. आनी म्हाका ! कौणेंयपुण दुख्ख परगटावपाक केला आसतलो.

'Congrats ! शोभा !' दादा आड्डलो. 'कितें ? कितें जालें ?" आई.

'शोभा पास जालां. हो पळय तेलेग्राम. एस. एस. सी. बोर्डानेच धाडला. तांची चूक जाल्ल्यान पेपरांक ताजो नंबर पावलो ना खंय. चूक जाल्लेबद्दल क्षमाय मागल्या. जावं . . . Congrajulations शोभा !'

शोभाले दोळे भरून आयले. आनंदान. खोशेन. वर्स पद्‌रांत पडलें.

भितल्लेवशीन कोण तरी उलयताली. शोभान दोळे उकते केले. आरेच्या ! हें सगलें सपन तर ! शोभान दोळे धांपले आनी विचार करपाक लागलें. अशें कशें हें सपन ! फांतोडेचेरशें पडलां, भायर तर उजवाडत आयलां. फांत्यापारावेलीं सपनां खरीं जातात खंय. आईच म्हण्टाली. तशें आसत जाल्यार पेपरांत म्हजो नंबर येवचो ना. पुण बोर्डाची अशी चूक घडटा ? जायत. पैर शीला सांगतालें तागेली बापोलभयण पास जाल्या म्हुण. तांकां उपरांत कळिल्लें खंय.

'आसू. न्हिदलां जाल्यार उठवं नाकात ताका. बेठेंच रडत बसतलें.' दादालो आवाज.

पांगरूण शेंवठून शोभा उठलें. पळय जाल्यार बरें उजवाडलां. दादा भायर बशिल्लो. आई भितर च्या करताली. शोभा तोंड धूयसर ताका आईन कांयच म्हळें ना. शोभाक कळ्ळें. दादान पेपर हाडला आनी हांकां पिशांक दिसलां आसतलें हांव फेल जालां म्हुण. शोभा भायर गेलें आनी बल्कांवांतच बसलें. तेलेग्रामाची वाट पळयत.

* * *

# आंगवण

पुण्य आणि पातक हांचे शिमेर उबो रावन हांवें एक काम केल्लें ताजी ही खबर!

म्हजी माजोड्डेचे इगर्जेंत 'कूर' म्हूण बदली जाल्ली. गीम निकतोच लागिल्लो. इगर्जेचीं कामां जाणा जावन घतां, गांवच्या लोकां-कडेन वळखी करून घेतां, कपेलांची अडचून उरिल्लीं कामां जाग्यार घालतां म्हळचार म्हयनोभर गेलो.

पाद्रीपण म्हाका मनसपूर्वेक मानवता. इश्टागती जोडप, भुरग्यांलागीं खेळप, शिकपी भुरग्यांक उमेद दिवप वायटकारांची खबर घेवप, अड-चल्ल्यांक पावप असलीं कामां म्हाका पायलींपसून जायशीं. पाद्री जाल्या-उपरांत म्हजी ती लागणूकच जाली. आनी हांव तिका पुराय पाळो दिवंक लागलों.

एक दीस इगर्जेंत सेरमांव सांगतना हांव बरोच फॉर्मांत आयलों. सेरमांवांत हांवे एक खबर सांगली. एके बायलेचें भुरगें फेस्ताचे फेरयेंत कशें कशें शेणलें. आनी कितल्याशाच वर्सांनीं तिणे सायबीणमांयक केल्ले आंगवणीक लागून तें भुरगें कशें परतें तिका मेळ्ळें तें हांवें बरें करून सांगलें. सेरमांव सोंपल्याउपरांत सगलो लोक देवाक नमन करून घरा परतलो. पुण एक जाण्टोसो दादलो आजून दीमी मारून आशिल्लो.

तागेली तनरी लागिल्ली पळोवन म्हाका ताजी लक्तुबाय दिसली. मागता आसतलो देवा लागीं कितेंय; तागेली तनरी भंगतली म्हुण हांव ताका हटकीनासतना भितर गेलों. पादीगाराकडेन उलवणें केलें, सांकिश्तांवाक सांगपाचीं कामा सांगलीं. आणि हांव भायर आयलों.

इगर्जेच्या दारांतच तो रोजार करपी जाण्टेलो उबो आशिल्लो. पिरायेन आसतलो पन्नास पंचावन्न सुमार! पुण भेंडांन बागवल्लो. आनी कातीक मिरयो पडिल्ल्यान तो सत्तरांक तेंकिल्लेवरी दिसतालो. खांदार काबाय उडयिल्ली. हालीं तेंपार काबायो चडशो दिश्टी पडनात. देखून तागेलो हो भेस मातसो अडेचो कसो दिसतालो. म्हाका 'फेस रीडींग' कळना. पुण ह्या दादल्याचें मुखामळ पळोवन तो सभावान मायस्त आसूं फाव अशें दिसलें.

तो म्हाकाच रावतालो जावंये. हांव म्हऱ्यांत पावनाफुडें ताणें तकली बागोवन आदर परगाटायलो. जाण्टचा मनशांनी मान दिल्लो म्हाका मानवना. पादकूर जालों तरी पिरायेन हांव ल्हानच. पुण ह्या जाण्टचांक तशें सांगल्यार तांचें मन मारिल्लेवरी जाता.

हांवें म्हऱ्यांत येवन त्या जाण्टेल्याच्या भुजार हात दवरून म्हळें "कितें पाय? कसो आसा?"

अितलें म्हणिल्लें मात! त्या दादल्याचे ओंठ थरथरपाक लागले. दोळे बारीक करून तो म्हाका निरखुपाक लागलो. म्हण्टसर दोळचांत दुकां भल्लीं. थरथरपी हातान म्हजो भुजावैलो हात सांसपीत ताणें म्हळें,

"म्हज्या पुता! तूं . . . . तूं . . . . . म्हजो पूत तूं?"

हांवें घुसपून म्हळें, "तुवें म्हाका जल्म दिल्लो नासलो तरी हांव तुका पुताभाशेन समज तूं!"

ह्या म्हगेल्या उतरांनी जो जाण्टेलो न्हिवळ्ळो. दोळचांतलें उदक काबायेच्या हाताक पुशीत ताणें म्हळें,

"पादकूर! चुकलों! तुवें म्हाका 'पाय' म्हळें. म्हाका दिसलें.... म्हाका दिसलें . . . . म्हजो पुतच म्हाका मेळ्ळो! तुजेयेदोच जाला आसतलो तो आतां . . . . . ."

त्या जाण्टेल्यालें दुख म्हाका समजलें. तागेलो पूत पैस खंयतरी गेला आसूंये. तारवटी बी जांवये. हांवें विचाल्लें,

"खंय आसता तुगेलो चेडो ?"

व्हडाव्हडान तकली हालोवन ताणें ओंठ दांतांमदीं चिड्डून हुडको आडायलो. हुडकेल्ल्या ताळचान ताणें म्हळें,

"म्हाका खबर ना . . . कोणाकूच खबर ना." उलयतां उलयतां ताणें वैर खुरसाकडेन बोट दाखयलें, "अेकल्याक . . . . ताकाच आसा खबर."

म्हगेलो घुस्पागंदळ चडच खदळ जालो. खिणभर म्हाका दुबाव आयलो. हो जाण्टेलो एके शिरेन मातसो उणाक बी न्हीं मूं ? पुण तागेलो कळवळो पळोवन म्हगेलें मन भरून आयिल्लें.

"तुजें नांव कितें ?" हांवें विचाल्लें.

"कामील !"

"तूं रावता खंय ?"

. . . "तळ्चापयल्यान बल्कांवा घरांत."

"कामीलबाब ! तूं आतां वच घरा. हांव मागीर मेळटां तुका." हांवें म्हळें.

"पादकूर ! तुवें सेरमांवांत सांगली तीच आंगवण हांवूय करतलों."

हांव कितें म्हण्टां ते आयकुपाक कामील मोटे उमेदीन म्हज्या दोळयांत पळोवपाक लागलो. हांव नदर धुंवडावन वग्गी रावलों.

"मागीर येतलो न्हुं म्हगेलो पूत घरा ?"

ताणें म्हाका विचाल्लें.

"हय येतलो. देवाचेर भावार्त दवर आनी वाट चय," हांवें ताजी फाट थापटीत म्हळें.

कामिलान वचपाक फाट केली वतांवतां ताणें उलयिल्लीं उतरां मात म्हज्या कानांनी आयकून घेतलीं. "वाट खूब चयली पादकूर ! वाट चयत आसां . . . . पुण हांव आनीकूय वाट चयतलों."

म्हाका फुडें वचपाक मनच येना जालें. हांव फाटल्या पायांनी परतलों. आनी सांकिश्तांवांक उलो माल्लो,

"एक सांग! आतां निमाणें हिंगा रोजार करतालो तो दादलो कोण वळखता तूं?"

"कोण कामील?"

"हय खबर कितें तेगेली? चेडो खंय आसा तेगेलो?" हांवें उमळशिकेन विचाल्लें.

"कितें सांगू पादकूर! कामिलाक हांव बरो वळखतां. मनीस एकदम भांगर! कोणाकूय गरजेक पावपी. ताका आनीक कोण ना. एकलोच रावता बाबडो. ताचा एकच चेडो आसलो. चेडो जालो तेन्नांच बायल मेली. उपरांत कामिलानच पुताक व्हड केलो. पुण एक दीस हो चेडो—बारा वर्सांचो सुमार आसलो जातलो नाच्च जालो. खंय गेलो कोणाक खबर ना. खूब सोद केली. आता वीस वर्सां सुमार जातलीं हे खबरेक पुण चेड्याची कांयच खबर ना. आसा काय मेलो तें लेगीत कोणाक खबर ना."

हांवें अजापान विचाल्लें, "आनी कामील आजून चेड्याची वाट चयता?"

"हय. ताका दिसता तो येतलो म्हुण परतो. सद्दां वाट चयता तो. आतां जाण्टो जाला बाबडो. मातसो पिशांभाशेन करता."

म्हाका चिंतूंक पडिल्लो पळोवन सांकिश्तांवान फुडें सांगलें,

"कामिलागेली अिश्तोर खूब व्हड आसा. चेडो ना जायतसावन ताणें खूब सोद केली. बोमायीं लेगीत वचून सोदून आयलो. तारवार आयिल्ल्या सगल्या लोकांक तो आजूनूय विचारता. काकूळट बाबड्याची मनीस एकदम बरो! ह्या कामिलान फाटल्या धा बारा वर्सांनी उणें म्हळचार चौगपांच जाणां तरी पोसूंक घेतले. पुण सगले भुरगे ताका बूट लावन पळून गेले."

"आं! पोसूंक कित्याक घेतले तर? आनी पांच जाणांक?"

"पांच जाणांक म्हुळचार एकदम पांच जणांक न्हूं. एकएकल्याकूच ! कित्याक पोसूंक घेतालो तें मात ताजें ताकाच खबर ! ताका दिसतालें कोणूय दुर्बळालो भुरगो पोसूंक घेतलो आनी ताजे पसत दुडू मोडले जाल्यार ते पुताक पावतले. त्या पोसक्यांक मात माल्लो मद. कामिलालें जेवनखावन वैल्यान ताकाच नागोवन गेले."

कामिलाची खबर आयकून म्हज्या काळजाक पिळव पडलो. तो दीस हांवें असोच सारलो. दुसऱ्या दिसा कामील सेरमांवाक दिश्टी पडलो ना. हांव दनपारां उठलों आनी सकयल येवन बद्द कामिलागेर गेलों. कामील बल्कांवांतच आड पडिल्लो. आंगात कालचीच काबाय आशिल्ली. म्हाका पळेनाफुडें तो सडसडीत उठलो,

"कोण, म्हगेलो पूत आयलो . . . . यो, जुझे . . . . यो ! "

म्हाका दिशिल्लें कामील पादकूर आयला म्हुण समजून उठला आसूंये. पुण तो म्हाका आपणालो पूत आयला कसो समजल्लो. म्हगेलो लोब आंगांत आसुनूय म्हाका ताका सांगचें पडलें,

"कामीलबाब, हांव जुझे न्ही. हांव पाद्री. पादकूर ! "

कामील निर्शेलो. हातापायांतली शक्त गेल्लेवरी जावन बल्कांवांचेर बसलो. अितल्यान शेजान्न येवन म्हाका सांगूक लागली'.

"तो हालीं तेंपार बरो ना तकलेन कोणूय आयल्यार 'जुझे आयलो' म्हुण फुलता. आनी मागीर येदें तोंड करून बसता."

शेजान्नीलीं उतरां आयकून म्हज्या काळजाक हुंवार आयलो. कामिलाच्या म्हऱ्यांत बसून हांवें कामिलाक म्हळें, "कामीलबाब, आज सेरमांवांक आयलो ना तूं ? "

"सदां वचप जायना. काल एक दीस गेल्लों तो अजून न्हिद्दून आसां. नज."

"कांय पर्वा ना. दुबळ्यांक आनी दुखेस्तांक देव घरा लागीं लेगीत मेळटा."

कामिलान 'समजिकाय मेळ्ळी' अशे तरेन तकली हालयली. आनी खिणभर रावन म्हळें,

"हांवें सायबिणीक 'आंगवण' केल्या."

"बरें केलें." ताका दिशिल्लें हांवें फुडें आनिकूय उलोवचें, म्हणजे तुगेलो पूत आतां येतलो, जुझे घरा येतलो. पुण . . . पुण म्हज्या तोंडाक तीं उतरां फुटलीं नात.

"आतां येतलो म्हगेलो जुझे. आतां येतलो." कामील आपणां-कूच सांगतालो.

त्या दिसाउपरांत हांव कामिलागेर गेलों ना. म्हाका भिरांत दिसताली, कामील म्हाका विचारीत म्हुण की आंगवण करूनय जुझे आजून कसो आयलो ना काय म्हुण. "भावार्त दवर आनी वाट चय" अशें हांवें ताका आदीं सांगिल्लें. पुण 'कितले दीस वाट चवं?' अशें ताणें म्हाका विचाल्ल्यार ताका हांवें कितें सांगपाचें? पुण हांव जरी कामिलागेर गेलों ना तरी नेमान ताजी वासपूस मात करतालों.

कामिलाली बलायकी दिसदिशीं इबाडटाली. तकली थीर उरनाशिल्ली. 'पूत येतलोच' ही वानसा मात दिसदिशीं फुलत वताली.

पावस लागीं पावलो. इस्कोलांची सुटी सोपून तीं नव्यान उकतीं जालीं. एकदीस चांदरची एक बायल आपणांल्या एका चेड्याक घेवन इगर्जेंत आयली. विगार भायर सरिल्लो. हांवेंच तिका बसोवन घेतली. आपणांले दुर्बळकायेकलागून त्या भुरग्याक ती इगर्जेच्या बोर्डिंगांत दवरपाक सोदताली. तिणें म्हळें, "ह्या भुरग्याक तुमी दवरून घेतल्यार उपकार जातले. तुमी सांगशात तें काम तो करतलो." इगर्जेंत अशे भुरगे आनिकूय आशिल्ले. तिगेलें मानून घेवन त्या भुरग्याक दवरून घेतां म्हुण सांगून हांवें तिका घरा धाडली.

हांवें त्या भुरग्याक आफोवन हाडलो. चौदा वर्सां पिरायेचो भुरगो तो. हुशार आशिल्लो. हांवें विचाल्लें,

" नांव कितें रे तुजें ? "

" जुझे ". नांव आयकनाफुडें म्हाका सट्ट करून कामिलाची याद जाली. तागेल्याय चेड्याचें नांव ' जुझे ' आशिल्लें. अशें केल्यार कशें ? कामील मातसो सैरभैर जाला. तो कोणूय आयल्यार ताका चेडोच कसो समजता. आतां ह्या भुरग्याकच जर कामिलागेर तागेलो चेडो म्हुण धाडलो जाल्यार अेखादरे कामिल सुदारत ! ह्या भुरग्यालेंय काम जातलें आनी कामिलाकूय आदार जातलो ह्या जाण्टेपणांत.

विचार मनांत आयलो तो आयलो. म्हाका बसुंकच दिना जालो. हांवें त्या भुरग्याक विस्वासांत घेतलो. कामिलाक ' पाय ' म्हणपाक शिकयलें. सांगता तेभाशेन चलपाक फर्मायलें. आनी बेगोबेग त्या ' जुझेक ' घेवन कामिलागेर गेलों.

सांजवेळ जाल्ली. कामील भितर रांदनीक फूक मारतालो.

" कामिलबाब, हो चय कोण आयला ! " हांवें भायरसूनच साद घालो.

कामील उकडयां बशिल्लो तो बेगबेगीन उठलो. काबायेक हात पुशीत ताणें विचाल्लें,

" कोण आयला ? "

" जुझे आयला. हो चय " अशें म्हुण हांवें जुझेक फुडें धुकल्लो. जुझेनूय शिकयिल्लेवरी ' पाय ' म्हळें.

" म्हजो पूत आयलोऽ ! " अशें म्हणीत कामील लकतलकत फुडें आयलो.

सुर्याचीं निमाणीं किर्णां बल्कांवांत भितर सरिल्लीं. कामिलान ह्या जुझेक सांसपिलो. आनी अविस्वासाचे नदरेन म्हजेकडेन पळोवन म्हळें,

" कोण पादकूर ! हो जुझे म्हुण कोण सांगता ? म्हाका फटवं नाका. म्हगेलो जुझे आतां व्हड जाला आसतलो. तुजे येदो आसतलो...."

अितलें उलोवन कामिलान थंयच बसकण माल्ली. म्हाका दिशिल्लें तसो कामील आज सैरभैर नाशिल्लो. बरो म्हजेअितलोच साबुद्दीचेर आशिल्लो.

"हांव अेखाद्दरे जुझेक वळखुचो ना. तो आतां व्हड जाला जातलो. पुण तो म्हाका वळखतलो. तूं जाणां, ही काबाय हांव कित्याक घालतां ती? लोक म्हण्टात, सोड आतां काबाय . . . . . लोकांक कितेंय म्हणूं दी. म्हगेलो जुझे गेलो तेन्ना हांव काबाय घालतालों. आतां जुझे आयलो तर ह्या काबायेवैल्यान तरी म्हाका वळखतलो". कामिलाक उलोवन पुरो जालें. म्हाका कितें उलोवंचें तेंच समजना जालें.

"पादकूर! म्हगेलो जुझे येतलो. हांवें सायबिणीचेर भावार्त दवल्ला. तो आयलेबगर रावचो ना. हांव वाट चयतां. जुझे येतलो. . . आनी . . . . आनी तो आयलेबगर हांव मरचों ना . . . . . हांव मरचों ना . . . . . . ." आनी कामील रडपाक लागलो.

म्हाका लज जाली. म्हगेलो प्रयोग फसलो म्हुण न्ही. कामिलाचो देवावैलो भावार्त पळोवन म्हाका लज जाली. म्हाका लेगीत खिणभर दिसलें . . . . खऱ्यांनीच 'जुझे येतलो.'

जड पावलांनी हांव कृत्रिम जुझेक घेवन परतलों. हे खबरेक धा पंदरा दीस गेले.

अकस्मात एक दीस सांजवेळची कामिलाली शेजान्न धांवत आयली.

"पादकूर, कामील मरता. बेगीन यो आनी सांसांव लाय."

"मरता? कोणे दोतोरान सांगलां?"

"ना. पुण तो रात काडीत कसो दिसना." शेजान्नीलीं उतरां आयकून म्हाका राग आयलो. हांकां पयलीं पाद्री येवजतात दोतोर न्ही.

"तूं पयलीं दोतोराक घेवन वच. दोतोराक सांग हांवें आफयला म्हुण. हांव रोखडोच येतां."

शेजान्न गेली. खिणभर म्हजी तकली भेरेल्लेवरी जाली. 'कामील मरता'. कामिलालीं उतरां म्हज्या कानांत घुंवघुंवपाक लागलीं. "जुझे आयलेबगर हांव मरचों ना." बाबडो कामील! मरण हुंबऱ्यार अुबें आसा . . . . . पुण आशा सुटना . . . . . .

हांवें म्हगेलीं एकदोन गरजेचीं कामां आशिल्लीं ती केलीं आनी बेगबेगीन भायर सल्लों.

हांव कामिलागेर पावलों तेन्ना आमोरी जाल्ली. दोतोर तपासून भायर सरतालो. म्हाका पळोवन दोतोर रावलो. " Old age ! जाण्टो जाला. जोर फॉर्त आसा. हांवें इंजेसांव केलां. पुण . . . . . सांसांव लायल्यार बरें ! "

दोतोर गेलो. हांव बल्कांवांचेर उबो आशिल्लों. शेजान्न दारांत रावन म्हाका पळयताली.

" न्हिदला ? " हांवें विचाल्लें.

" ना. जागोऽ आसा. आजून चेडचाचो उगडास काडटा."

" तूं वच. जेवन बी यो. हांगा रावन कांय उपेग ना."

शेजान्न वचसर हांव रावलों. आमोरी जाल्ली. भितल्ले कुडींत बारकेलो पेत्रोली दिवो मिणमिण्टालो. कुडींतल्या पोरण्या कानाप्याचेर कामील न्हिदिल्लो.

हांवें हेवटेनतेवटेन पळयलें. बिण्ण काळोक पातळटालो. लागीं कोण दिश्टी पडनाशिल्लो. हांवें बेगबेगीन म्हगेलो लोब काडलो. भितर बुशकोट आनी कालसांव घाल्लें आशिल्लें. लोब साकादांतल्या कदेलाचेर उडोवन हांव भितर गेलों.

" पाऽय ! " हांवें ल्हवू उलो माल्लो.

कामील जागोच आशिल्लो. दोळेलेगीत उकते आशिल्ले. उलो कानांत पडनाफुडें तो दोळे मोटे करून जाग घेवपाक लागलो.

" पाऽय हांव जुझें आयलां ! हांवें कानाप्याकडेन वचत म्हळें कामील जाता-नज करून उठूंक लागलो.

" म्हज्या पुता ! जुझेऽ ! म्हज्या पुता ! म्हज्या पुता ! " कामिलाक खोश्शेन आनीक उतरच फुटना जालें. कामील आंगांत अकस्मात बळगें शिरिल्ले भाशेन उठून बसलो.

"पाऽय ! " अशें म्हुण हांवें कामिलाच्या भुजार तकली दवल्ली. कामिलाची ती आवतिकाय पळोवन म्हजे लेगीत दोळे भरून आयले. चारूय दोळ्यांतलें उदक आटापाक येनाशिल्लें.

पेत्रोली दिव्याचो उजवाड साप बारीक आशिल्ल्यान कामील म्हाका नियाळीत म्हणपाची भिरांत नाशिल्ली. हांवें कामिलाक घट वेंग मारिल्ली. कामील म्हजी फाट सांसपितालो. कामिलाचें आंग जोरान खतखततालें. पुण मुखामळार हांशें फुल्लिलें.

"पुता ! म्हज्या पुताऽऽ"-कामिलाक खूब उलोवपाचें आशिल्लें. पुण उतरां फुटनाशिल्लीं

"पा ऽ य ! आतां न्हीद." हांवें म्हळें पुण कामिल हाललो ना.

"पुता ऽ ! तूं आयलो ! हांव जाणांच आशिल्लों ज्युस्त पावलो." कामील घोगऱ्या आवाजांत उलयतालो, "हांवें सायबिणमांयक आंगवण केल्ली....पादकूर जाणां....देवाचेर हांवे भावार्त दवल्लेलो. देखून तूं आयलो ....आतां ......आतां म्हज्यान नज ...तूं.... आंगवण पावय....तूं....', कामिलालीं उतरां पैसपैस पावंक लागलीं. तागेली तकली म्हज्या खांदार तेंकली. हातपांय ल्हवुल्हवू घळसले.

हांवे ल्हवूच कामिलाची तकली काडून उशार दवल्ली. दोळे उकतेच आशिल्ले. तांकां हात लावन ते बंद केले. ताज्या आंगार पांगरूण घालें आनी भायर येवन आंगार परथून लोब लकयलो.



गोंय, दामांव आनी दीवचे
कला अकादमीचो
पुरस्कार फाव जाल्ली,
कोंकणी भाशा मंडळान
'कीट कामत पुरस्कार'
दिवन तोखणायिल्ली
आनी हज्जारांनीं वाचप्यांनीं
माथ्यार घेतिल्ली
दामोदर मावजो हाणीं
गरायिल्ली

गांथन

**काय मोलावपी :**

जिणेंतलें विलक्षणपण ताका अचूक दिश्टी पडटा .....आमी ताका माथ्यार घेवन नाचूंक फाव ......

— बा. भ. बोरकार

....... गांथन भोव सुवादीक —

— डॉ. र. वि. पंडीत

...... हो म्हजो सगल्यांत चड आवडतो बरोवपी ......

— रविंद्र केळेकार

.... Perhaps, Damodar Mauzo is most outstanding for both, vividity of expressions and originality of themes.

from 'A brief history of Konkani Literature'
— By Dr. Manoharrai Sardessai.